Cable : SNEHVIBHU
Telex : 011-3433 ANUPTEX

Dial : 335877-336084

# ANUPAM & COMPANY



EXPORTERS OF GREY CLOTH, HANDLOOM,

READYMADE GARMENTS, MADE-UPS

AND ENGINEERING GOODS.





Pravin Chambers, 2nd Floor,
6, Keshavji Naik Road,
Bombay-400 009 (India)

# मा णि क

कोंकणि साहित्याचें संकलन

प्रथम प्रकटना–मार्च १९७७



संपादक आणि प्रकाशक :
श्री ए. रमेश पंडित
मुद्रक : पंडित बखले, निर्भय मुद्रणालय,
२३, महापालिका अिंड. अेस्टेट,
वल्लभभाई रोड, विलेपार्ले (पश्चिम)
मुंबई ४०० ०५६.
प्रकाशन : शेषगिरी प्रकाशन,
१७ पोकेट वाला बिल्डिग,
हरियनवाला लेन, स्टेशन रोड,
कुर्ला, मुंबई ४०० ०७०

---

## अ ग्र  ले ख

आमगेलि मात्र भाषा कोंकणीक साहित्य अकादमीन स्वतंत्र भास म्हणु मान्यता दिल्लेलें आयकुनु संतोषारि जन्म घेत्तिलि पत्रिका हि. येद्दोळुथायि घरकडे उल्लोचि भास जाव्नाशिल्यारियि कोंकणितु सहित्य रचना साध्य म्हणु उण्यान उणे पांच शतक लेकुनु अनेक साहित्यकारांनि तांगेले रचनेंतु सिद्ध करनु दाकैयिलां. रोमन, कन्नड, मलयाळयम आनि देवनागरि लिपित अनेक कृति कोंकणितु उपलब्ध आस्सचि.

हे पत्रिकेत आमि आमगेलो उत्साहु, स्वाभिमनु आनि भास जनप्रीय करचे हार्दिक प्रयत्नेचो प्रकट केल्ला. प्रोत्साहुं नात्तिलें आजि कस्सलेयि बाळतर फेनां. कोंकणी उल्लैतले जनता जनार्दनांक ही आमगेलि प्रथम काणिक. स्वीकार कर्नु मार्गदर्शन करा ! ही आमगेलि विनम्र विनंति.

हे प्रकटनेक सहकार्य दिल्लेले महाशय अनेक. मुद्रक.

सर्व लेखक, जाहिरातदारांक आमगेलें हार्दिक धन्यवाद.

---

## – अ क्ष त –

तुम्मि देवनागरि लिपिन कोंकणि भाषेचि एकि प्रायोगिक पत्रिका प्रकट करचे प्रयत्न करताचि म्हणु कोळनु माक्का संतोषु जाल्लो. कोंकणि भाषेक एकि सामान्य लिपि नांत्तिलेंचि एक कष्ट. तुम्मि देवनागरि लिपि जनप्रीय करचें प्रयत्न प्रशंसनीय. तुमका यश मेळो. निकट भविष्यांतु कोंकणिक संपूर्ण शोभा प्राप्त जाव्नु देशाचे श्रीमंत भाषेंपैकि ती एकि जाव्वो म्हणु आम्मि आशा पांव्यां.

श्री के. के. पं.

मणिपाल

२०–१२–१९७६

अध्यक्ष आनि प्रबंध निर्देशक

सिंडिकेट बेंक

# भक्ति, आराधना आनि प्रार्थना

—श्रीमत् सुधींद्र तीर्थ स्वामे, श्री काशीमठ,
संस्थान, बनारस.

भक्ति :-

मनुष्याक देवान दिल्लेले अनेक सद्‌गुणांतु प्रीति एकि आस्स. वयांतु आम्गेलेकयि सान्नांक आम्मि प्रेम पुरस्सारि पळैल्यारिं ताक्का वात्सल्य म्हण्ताचि; आम्गेले समान आशिल्यांक तशिं पळैल्यारि स्नेह म्हण्ताचि; आनि माल्घड्याक पूज्यभावारि प्रीति केल्यारि भक्ति म्हण्ताचि. दयामय जाव्नाशिले देवाक सुद्रढ पूर्वक स्नेहांन आनि निष्काम प्रीतिरि पूजा केल्यारि तींचि भक्ति म्होणेन घेत्ता. देवु कल्याण गुण परिपूर्ण महात्मु. ताक्का निष्काम स्नेहारि पूजन करनु प्रर्थनेन प्रीति कोरया !

आराधना :-

देवाले आराधनेंनु अनेक क्रम आस्सचि. कठिन जाव्नाशिलें तपस्स, यज्ञु—यागु, भजना, कीर्तना, जपु—तपु, नियमु निष्ठा अशिं अनेक रीति आस्सचि. "देवा, हावें कस्सलें करनकि, तें तुग्गेलि पूजा ना आराधना जाव्वो!" अशिं म्हणु आम्मि प्रति एक काम देवाले प्रीतिक म्हणुची भक्ति पूर्वक जाव्नु केल्यारि तेंचि देवालि पूजा ना यज्ञ म्हणेनु घेत्ता.

प्रार्थना :-

भगवंतु अनंत गुणपरिपूर्णु—ब्रह्माडंनायकु. ताग्गेलें एक कृपा कटाक्षु आस्ल्यारि महत्ता पेक्षा महत् जाव्चाक साध्य आस्स. जगत्याचे समस्त व्यापाराचो अध्यक्षु जाव्नाशिले ताग्गेलाग्गि आम्मि माग्चें जाल्यारियि कस्सलें ?

"देवा, सदाकाल तुग्गेलो अनुग्रहु आमगेले वयि आस्सो !" ही आमगेलि अनुनित्याचि प्रार्थना जाव्नास्सो देवालि दया आनि अनुग्रहु आस्ल्यारि असाध्य जाव्नाशिलेंयि साध्य जायनावें ? तस्सले परमात्माक आम्मि शरणगत जाव्यां.

आमगेले दैनंदिन जीवनांतु आम्मि अनेक चूकि-अपराधु करनु आस्सुंक पूरो — करतची आस्सुंकयि पूरो. भक्ति म्हळ्यारि सुद्रढ पूर्वक स्नेहभाव म्हळळे परांते ताग्गेलाग्गि आम्मि आमगेलि चूकि निवेदन करुयां. "देवाधिदेवा, मेग्गेलि चूकींक माक्का क्षमा करि. तुवें कस्सलि शिक्षा दिल्यारियि हावं सहना करतां. जाल्यारि मेग्गेले वयि मात्र कोप्पुनाक्का ! तुग्गेलो अनुग्रहु सदाकाल मेग्गेले वयि आस्सो !" ही आमगेलि दैनंदिन प्रार्थना जाव्नांस्सो !

( संग्रह )

---

पृष्ठ ४ वरून

दुर्बळि, दीन आनि असाहयक आनि हळळचे जनं म्हळ्यारि श्री पैंक अत्यंत सहानुभूति आनि अपार मैत्रि आस्स. तांगेले वट्टु मेळचे म्हाळयारि तांका परमानंद.

बौद्धिक पूर्णता, मनोविशालता आनि सहनशीलता-हीं सदगुण हांगेले व्यक्तित्वाक कलशप्राय. श्री के. के. पै. श्री टी. ए. पै हांगेले भावाजि. प्रतिएक कार्य क्षेत्रातु तें महाभारताचे कृष्णु आनि अर्जुना वऽरि, स्वतंत्र भारताचे नेहरु आनि शास्त्रि वरि आदरणीय आनि अनुकरणीय जाव्नास्सचि. श्रीं महालसा नारायणि श्री पैंक सदाकालु पाटि बलाक राब्बो म्हणु आम्गेलि प्रार्थना.

——o——



# ईशावास्योऽपनिषद्

कोंकणींतु श्लोक रूपि अनुवादु

केल्लेले :– **दिवंगत श्री शेषगिरि केशव प्रभु, मुंबई**

(कोंकणि भाषेक आयचा वरि मान्यता मेळना नात्तिले वेळेरि, कोंकणि भाषेचें पत्रिकेयि नात्तिले वेळेरि, श्री प्रभूंनि वैदिक वाग्मया ताक्कुनु अनेक अंश कोंकणिक भाषांतर केल्लेलें आस्स. हांगा संग्रह केल्लेले श्लोक, सुमार वीस वर्साचे फूडे तान्नि भाषांतर केल्लेलें आस्सचि. यजुर्वेदांतु अंतर्गत जाव्नाश्शिलो हो उपनिषद अत्यंत जनप्रीय आनि प्राचीन जाव्नास्स)

**शांति पाठ**

ॐ तें पूर्ण, हें हीं पूर्ण,

पूर्णांत्लियान पूर्ण उज्वता ।

पूर्णांत्लियान पूर्ण काण्णुहि

उरता शेषही पूर्ण तें ॥

त्रिविध तापांचि शांति जावो

ईशान हें व्यीप्लां सर्व, जें जें कांहीं विश्वांत आसा म्होण्णु
घे भोगु त्यागान, परस्वाचो लोभु कोर्नाका ॥१॥

करीत हांगा कर्मयज्ञार्थ, इच्छाधर्ची शतायुचि ।
निर्लेप कर्ममार्गूना, दुसरी हांगा, तुका नरा ॥२॥

दुःख केल्शांधकाराचे, आसात् आसुरि नरक तें ।
मरनाफुडे थंयि वोत्तात्, करतात जे आत्मघातु ते ॥३॥

वेगान अती तीव्र मनाज्याकीजें, हाल्चाल कर्नाश्शिलें, एक-ची जें

सर्वालें आदी, सर्वज्ञ हीजें, जाण्तात जाका देव महर्षि हीते
अति तीव्र धांन्व्या वीजादिकांक, वोत्ता फाटि घाल्नु, राबिल्लें स्वता जें ।

एक्कांतु त्या वायु, देवादि सर्व कोर्चाक् क्रिया कर्म, जात्तात् समर्थ ॥४॥

चल्तातें चल्नाहितें, दूरांत दूर, लागींत लागि ।
भीतर आसून सर्वालि ही, भायलयान विश्व व्यापून-आसा॥५॥

जो आसो सर्व भूतांक, आत्म्यात्, पळैता निरंतर ।
सर्व भूतांतु ही आत्म्याक्, उपेक्षीना कोणांकयी ॥६॥

ज्यास्थितींत् सर्वभूतांतुं, पळैता आत्म्याक एक जो ।
खंचो मोहु, खंचो शोकु, आत्म दृष्ट्याक त्या तेन्ना ॥७॥

तो प्राप्त जात्ता, तेजोनिधीक, ना काय ना घाय, ना स्नायु जाक्का

जो सच्चिदानंदु, दिव्य स्वरुपु, लाग्ना जाका पाप, पुण्यांचो लेपु

जो सर्व दृष्टा, सर्वज्ञु शास्ता, जात्ता स्वयं प्रकटु इच्छेन् स्वताच्या

अनादि कालान जो दीत आयला प्राण्यांक कर्मफलं कर्मानुसार ॥८॥

पडतात् घोर अंधःकारांतुं, अविद्येचे उपासक ।
विद्येंत् गडिल्ले अहंवादी, त्याजाकी होड नरकांतुचि ॥९॥

विद्येचें आनि अविद्येचें, सांग्तात वेग्ळें वेग्ळें फल ।
असें सांगिल्लें आयकिल्यां आमि, ज्ञान्यांलें तें प्रवचन ॥१०॥

विद्ये सह अविद्येचें तत्व घेत्ता समजून जो ।
अविद्येन जिकून मृत्यु, विद्येन भोगता अमृत तो ॥११॥

सिर्तात् अज्ञान अंधकारांतुं असंभूति उपासक ।
अधिक घोर नरकांत पडतात, संभूतींत रेत दांभिक ॥१२॥

संभवा पासुन वेग्ळें, वेग्ळें असंभावापासून् ।
असें सांगिल्लें आयकिल्यां आम्मि, धीरालें तें प्रवचन ।।१३।।

संभूति आनि विनाशाचें, जाणता तत्व एक–त्र जो ।
जिक्कून मृत्यु विनाशन, संभूतीन मुक्तु तो जाता ।।१४।।

धाप्ल्यां सुवर्णपात्रान, स्त्या तुग्गेलें श्रीमुख
काडि तें पटल हे, पूर्णा, दिव्व्याक् भक्ताक दर्शन ।।१५।।

पोषका, एक ऋषेऽ सूर्य, यमा प्रजापति प्रिया ।
ओण्जु घे, हें तुजें तेज, डोळे दिर्पाचि किरण हीं ।।

दा कँ माका परम कल्याण–सच्चिदानंद रूप तें ।
पळैतां हांव ध्यान दृष्टीन, देवा, तुज्या कृपेन जें।।

हावं तो पुरुषू देवा, तुजो अंशु सनातनु ।
पुरुषोत्तमू, सर्वेशू तूं भक्त-काम कल्पद्रुमु ।।१६।।

प्राणेंद्रियं जावोतूलोन, त्यांच्या त्यांच्या तत्वांतुं तीं ।
वोचो, जळनु अग्नींतु हें मगेलें स्थूल शरीर ही ।।

ओम यज्नपते विष्णो यादकर यादकर मजी,
मगेल्या, कर्मींचि ही, विष्णो, यादकर यादकर मजी ।।१७।।

अग्ने, होर शुभमार्गान, विष्णु चरणा कडे माका ।
जाणता तूं मगेलीं देवा, कर्म सर्व शुभा-शुभ ।।

जें कांहीं येत्ता आड, पाप मगेलें मार्गारी ह्या ।
दूर करि, देवा, मेगेले वाचा प्रणाम अनेक हे ।।१८।।

।। समाप्त ।।

---

हृदयांतु कोमल, मनांतु निर्मल आनि कार्यांतु सफल

# श्री के. के. पै.

लेखक : श्री. डी. यस्. नायक.

मर्दोळ म्हाळसेले कृपा कटाक्षाचे प्रतिरूपाचे आविर्भावची श्री कल्संक कमलाक्ष पै हांगेलें व्यक्तित्व. हान्नि जन्मत : जनसामान्य, बाल्यावृत्तिरि व्यापारि, विद्यार्जने कालारि विनीत, शिस्तु संयमांतु अद्वितीय, कार्य साधनेंतु अचलित मनोभावनेचे कुशलि, आडळितेंतु न्याय सम्मति दक्ष, भारतीय संस्कृतितु अपार विश्वासु आश्शिलो रचनात्मक कार्यकलापांतु गांधी तत्वपालक जाव्नाश्शिले श्री के. के. पै हान्नि नव नवोन्वेषणशालि प्रतिभापूर्ण व्यक्ति. आजि ते एक व्यक्ति नयि अनेक संस्थे एक व्यक्त्तितु समावेश जाल्या म्हळ्यारि अतिशयोक्ति जायना.

श्रीं के. के. पै हान्नि "परजन हिताय" कार्यांतु तत्पर जाव्नु "स्वंत सुखाया" चे "स्वानंद" अनुभविसुचे उदात्त धर्मि. कठिन परिश्रमाचे जीवन, नियमित व्ययाचे निष्ठापूरित कार्य कुशलतेरि कष्टान भर्लेले जीवन सुगम करुक साध्य म्हणु हान्नि दाक्कोनु दिल्लां. उद्योगांतु मात्र नयि, कृषितुयि ते एक निष्टावंत कृषिक. कृषिप्रधान देशांतु विविध फल पुष्पानि जीवन सौंदर्यमय कर्नु सार्थक कोर्येत म्हणु तान्नि दाक्कोनु दिल्लां.

श्री के. के. पै हांगेले समर्थ मार्गदर्शनाचे लाभ घेत्तिलो संस्थो सिंडिकेट बेंक आजि देशाची एक प्रमुख संस्थो. हे संस्थेचे सिब्बंदि वर्गाक ते निकट मित्र, तत्व निर्देशक आनि मार्गदर्शक. सिंडिकेट बेंकाचि उन्नति आनि जन प्रीयतेक तुख्य कारण हांगेलें दक्ष आडळिता शिवाय दुसरें नयि.

पृष्ठ २ वर

# अेकु संदेशु

श्री रत्नाकर आनंद शेणै

आय्कुनु जालि अित्तुलि खुशि;
मनांतु आय्लें सुरवेक दोळे पूशि.

सरकारान दिल्ले मान्यता कोंकणि भाषेक
निमगितले ऽ ना म्होणु अित्तेक दूशि ? ॥ १ ॥

भास, आमचिगेलि वर्यि अेव्वेक हींचि वाट ;
तोंड गोड कोरूंक वांटियरे साट !

पेल्ले कशि वर्यि आय्लेति, अित्तुले वग्गि :
आनिपुणि शिक्कुयांकि आम्मि तस्सले पाठ ? ॥ २ ॥

कस्सलेंतु म्होणु आम्मि अूणे, पोळोयाँ;
आम्मि कोण ? कस्सले करताति हें कोळोयाँ.

सम्रधि जाव्नु आशिले ह्या भाषे वृध्धि कोरूंक
आयचे दिव्साक अेकु सानु दिव्वो जोळोयाँ ! ॥ ३ ॥

केल्ललें कस्सले ? अेक्लेन अेक्ले वर्यि काशिलें
भंय्य कस्सले सांग्वेंतु नीज आशिले ?

अुटाया, पुरो, अेढोळु नुत बशिले
मस्त जाल्ले, जेव्नु–खाव्नु फरडि मारत हाशिलें ॥ ४ ॥

# आत्म कथन

रंजिताई, मुंबई

"कामाक्षी, तूं काळि मुगो,
कंचोई दुस्तु साज्जना मुगो!"
म्हणताचि माक्का सर्व जनं
आयकुनु जाल्लें दुःखित मनं.

"काळो दुस्तु – 'कड्' म्हणु
ताम्डो घालयारि भूत म्हणु
हळदुवें" आंगावाले साज्जना तुक्का
पाचवें सुंदर दिस्सना, आवका.

"नीळवे ! तुक्का संम नहिं !
धवें शुचि वरना काई ।"
खंचो दुस्तु घालचो हावें
सांगरे अंणा, मेल्लिमु हावं !

काळि हावं, भारी काळि
चूकि म्हणा व्हइ मेग्गेलि
"काळि साणि, गेरसाणि दिवचि देवान
"दुःखित जावनका!" म्हणता मनं.

काळसाणि मोरो, आयका काणि :
पाटियि वयरि, विधिन सोणि !
आंगयि थोर, सांगचें कोणाक ?
अतिशय दुःख दिवसु रात्रि मनाक!

मेग्गेले सद्गुणं जाइ कोणाकं ?
रुप नात्तिलें भीति मनांक
हांगा राब्बइतां मेग्गेलि काणि
सांगुंक मुकारि मनान सोऽणि !

—o—

# षो ड शी

रंजिताई, मुंबई

जीवनं म्हणचे झलेंले वाट्टेरि
मुखारि वत्तनां एकि घडि
पळेलें आइलि सोळा मैलेंतु
केल्लेलें कस्सलें ? झालि वडि

कळनां नात्तिलें मार्गु झरलो
व्यर्थ जाल्लिकि वर्स सोळा ?
साम्नपणां संतोषा उडगासु
एत्ता जात्तना वर्स सोळा
खेळु, मेळु नांचपानि उड्डप
वेर्डुपणाचें उत्रं आनि ताज्जे भावु
मायक जाल्लें हावं वडि जाल्लि म्हणु
विसर्ल गेल्लो कितो मुग्धता स्वभावु.

चमकतना चुक्कुनु पडतना धांवुनु येवनु
उठानु रार्बायिलि मेग्गेलि आवुसु वडि !
तिग्गेले ममतेरि दूकि विसर्लेलि हावं
चकि मंम करनु जाल्लिले हावं वडि !

मालगड्यानि सांगिलि वाऽट धर्नु
मुखारि गेल्लि संतोषारि हावं
तांगेलें ऋण संदाय करचें
कृतज्ञता, हृदयांतु केदनाहीं दवरनु।

गेल्लेलें बाल्य परत खंयि एत्ता ?
स्वच्छंद मनोभावु तो खंयि मेळता ?
कुबेरालें धन दिल्यारियि तो संतोषु मेळना

बाल्याचो उत्साहु, संतोषु परत एना.
दांटुवुनु आस्स सोळा मैले पात्थोरु
बालया 'गडि' सोण्णु दूर दूर वत्ता
आय्यिलि वाट पोळोनु भर्ले मेग्गेले दोळे

दु:खभरि हृदयाक वाउनु पाय मुखारि गेल्ले
मात्तें उब्बार्नु पळयिलि मुकावैलि वाट
रा ब लां रा बकु नं भ वि ष्या भू त
भैयानं दोळे धांकुनु हांगाचि राब्बुवें ?
की, धैर्यारि एदुरसुन मुखारि वच्चुवें ?

मुक्षावैले वाट्टेरि फात्तोरू आनि कांटे
भरल्या ! पळयारि उठाचें कष्ट !
मनं घट्ट करतां, धैर्यारि पायु दवरतां
हृदयांतु देवा दवर्नु मुखारि मुखारि वत्तां !

# आम्मि कशि आस्सुका ?

श्री रत्नाकर आनंद शेणै

म्हयि आदिशले सांग्चे, चूकि म्हंयि
आनि चूकी ऽ सं.द्धितले, सूखि म्हंयि

वायटांतु, 'चांग ऽ' चि चोयि ;
पेल्लेले 'वाशे' अित्तेक मोयि ?
'करटि' कांतलेरि मेळता कांयि सोयि :
मांग, म्हयि जाल्लेरि व्होयि

पेल्ले.लि दूकि, कामगेलि दूकि म्हंयि ?

अुल्लोचें; लेकचे, कोरचें काम चांग ;
आत्तं म्हंयि जाल्लेरि, वे.द्वना सांग ?
वायट ऽ लेकलेरि; आवुळता आंग
वत्ता तिकसाणि, भाजलेरि–मिरसांग !!

जलमु घेत्तिलो, चूका–मूकि म्हंयि ?



# तीनि काण्ये संग्रह

**के. जी. मल्या**

### १. श्रीमती परिणय

एक सहस्त्र वर्षाचें तपस्स्याक मेच्चुनु श्री हरीनं अंबरीषाक एक चक्र अनुग्रह करनु सांगलें: अंबरीषा, हें चक्र असामान्य ! माक्का हें ईश्वरान दिल्लेंलें. हें खयि' आस्सकी थयि रोगु रुजिन, शत्रुबाधा आनि ऋषि शापु लाग्गि येना ! तूं आनि तुग्गेले राज्याक परत वञ्च !"

अंबरीषु चक्र घेवुनु संतोषारि ताग्गेले राज्याक परत येवनु पुनः राज्यभारु करुंक लागलो.

कालारि अंबरीषाक एकि चल्लि जाल्लि. श्रीमति म्हणु तिक्का नांव दवरलें. चेर्डु, शुक्ल पक्षाचे चंद्रमा वरि वऽड जाल्लें.

अंबरीषाक श्रीमति म्हळ्यारि पंचप्राण. एकि घडियि तिक्का सोण्णु ना तो बावडो. श्रीमति प्राय भरित जाल्लि

एकु दिवसु अंबरीषु ताग्गेले आस्थानांतु ओड्डोलग दित्तची आस्तनां अंतरिक्षारि थावंनु दोग जन ऋषि एक कालाक एव्नु पाव्ले. दोग्गयि तरुण ऋषि-नावं नारदु आनि पर्वतु.

ऋषिनि आगमन केल्लेलें पोळोनु भय भक्तिरि अंबरीषान सिंहासनारि थाव्नु उठानु तांगेले स्वागत केल्लें. तांका उचितासन दीव्नु सत्कारु केल्लों आनि आगमनाचें कारण कस्सलें म्हणु सांगुका म्हणु विनंति केल्लि.

अंबरीषालें सिंहासना लाग्गिचे आसना वयि बैसुनु आश्शिल्लि लावण्यमयि श्रीमति तांगेलें दृष्टीक पळिळ. ताग्नि तदेक दृष्टीन तिक्काचि पोळोंचाक लागले. श्रीमतिलें सौंदर्य वर्णनातीतः तोंड पुन्वे चंद्रमा वरि; दोळे साळूका पाकळे वरि, भोव्यो इंद्रचापा वरि, नांक चांपे फुल्ला वरि, आनि तीणे हास्तना तोण्णां थाव्नु मोगरें पाकळे वरि दिसतालें !

"अव्वा, अनुपम सौंदर्य राशि जाव्नु आश्शिल्लि ही नव तरुणि कोऽणकि !" दोग्गानियि मनांतु लेक्कनु, "अंबरीषा हीं कन्यामणि कोऽण?" म्हणु विचालें.

अंबरीषान अभिमानु पाव्नु सांगलें: "पूज्यानों, ती मेग्गेलि एक मात्र पुत्रि–श्रीमति म्हणु तिग्गेलें नांव. प्रायेक आय्लया योग्य चान्नु आश्शिलो वऽरु मेळयारि विवाह करचें आलोचनयी आस्स."

दोग्गालेयीं मनांतु कस्सलिकि आशा अंकुरलि. नारदु ताणे बश्शिले आसनारि थाव्नु उठानु एक मुल्लेक गेल्लो आनि "अंबरीषा एकि घऽडि हांगा यो !" म्हणले, अंबरीषु विनम्रतेरि, चमकलो. नारदु म्हणालो : "पळे, माक्का लग्न जाव्चे प्राय आत्तं, हावं योग्यु म्हणु दिसलयारि तुग्गेलि चल्लि दी माक्का !" अंबरीषान विस्मित जाव्नु ताग्गेलें तोंड पळयितनां ताक्का आयकु पाळिळ पर्वतालि वाणि : "अंबरीषा हे, अंबरीषा, एक क्षण हांगा यो "

अंबरीषु पर्वता लाग्गि चमकलो आतुरतेरि ! पर्वतु ताग्गेले कान्नांतु म्हणलो "राजन्, तुग्गेलें घूवेक थयं आनि हांगा वरान्वेषणेक कस्सलयाक वत्ता ? हांव पळे मस्त काळ लेकुनु अनुरुपी चल्ली मेळयारि एक लग्न करनु घेवका म्हणु आसस, माक्का कस्सलयाक तूंवे जावई करनु घेन्वाक नज्ज ? पळे, आलोचन करि !".

अंबरीषु आलोचनेरि पळळो. "दोऽग जनं ऋषि, एक कालारि एव्नु एक्कीची चलयेक बाइल जाइ म्हणताति कस्सलें करचें ?" ताग्गेलि जीब वांधलया वरि जाल्लि. तो एक क्षण निरुत्तर जाल्लो !

"तूवें कस्सलें म्हणु आलोचन केल्लि?" नारदानं विचालें !

"कस्सलेयिं जाव्वो, श्रीमतीक मात्र माक्काचि लग्न करनु दी !" पर्वतालि विनम्र विनंति !

अंबरीषु प्रतिमे सारखे स्तंभीभूत जाव्नु राबलो. "हे दोग्गां पैकि खंचेई एक ऋषीक दिलयारि दूसर्याक खंडित असंतोषाक मार्गु जात्त. दोग्गई तपस्वि. जाल्ले निमित्त शापु दीव्नु अनावश्यक कष्ट दित्तीतू. जाग्रतेरि मुकारसुका !" म्हणु लेक्कनु तो एकु क्षण योचना मग्नु जाल्लो. आत्तां ताक्का एकि आलोचन आयिली. तो दोग्गांकयि उद्देश करनु म्हणलो :" "ऋषिवर्यानों तुम्मि दोग्गई मग्गेले चलयेक व्हडिक करनु घेतिली पोळोनु माक्का, अतिशय आनंदु आनि अभिमानु जाल्लो. जालयारि

एक चलयेन एक चलयाक मत्र पाणिग्रहण करनु घेवयेत शिवायि देग्गाक ती बाइल जावचाक साध्यना जाल्लें निमित्त ही समस्या आम्मि आशिश सोडवायेत : स्वयंवर दोवोर्नु आपण्याक खंचो वरु जावका कि "ताक्का फुल्ला माळा घालि। म्हणु श्रीमतीकची सांगुयां. कशिश हाक्का तुमगेलि अनुमति आस्सकी ?".

"तेंऽची वरें ! तेंऽची सम्मं !" एक कंठारि दोनि ऋषियि म्हणुंक लाग्ले !

"तशिश जाल्यारि फाल्लेचि स्वयंवर दोवार्या !" म्हणलो अंबरीषु. "जायत, शुभस्य शीघ्रं !" म्हणले ऋषि महाशय! "फाल्ले येचि वेऽळेरि स्वयंवरु!" म्हणु अंबरिषान घोषणा केल्लि.

"जायत, फाल्ले आंमि एत्ताति !" म्हणु ऋषिंनि निर्गमन केल्लें !

"फाल्ले स्वयंवरु व्हइ जाल्यारि श्रीमतिन माक्काचि फुल्लामाळा घालचे तशिश कस्सलें कोरयेत ?" नारदाक एकि उपाय दिस्लि ! तो मनोऽवेऽगारि वैकुंठाक श्रीहरि लाग्गि चमकलो !

देवानं नारदाक पोळोनु प्रीति पूर्वक जाव्नु निमगिलें: "नारदा इत्ते आंगमन जाल्लें ?"

नारदान हाथ जोडमुनु विनंति केल्लि : "हावं आत्तं अयोध्या थाव्नु हांगा येत्तची आस्सं. अयोध्ये रायु, अंबरीषु तुग्गेलो परम भक्तु. ताक्का स्पुरद्रूपि जाव्नु आदिशलि एक चल्लि आस्स. तिग्गेलें नावं श्रीमति. मेग्गेलें मनं तिक्का शरणगत जाव्नु आस्स. जाल्यारि तेऽचि वेळेरि थंयि पर्वतुयि एव्नु ताक्का श्रीमतीक लग्न कर्नु दी म्हणु सांगचाक लाग्लो. अशिश जाव्नु अंबरीषान फाल्ले स्वंयवरू ठरेला। श्रीमतिन स्वयंवरा वेळ्ळेरि माक्काचि माळा घालचे तशिश हावं एकि उपाय शोध करनु आयला. हें उपाय यशस्वि जाव्का जाल्यारि तुग्गेलें अनुग्रह जाव्का।"

श्री हरि एक क्षण हास्लो "कस्सलें माराया, मांग तें !"

नारदानं मात्तें पंद्राक घाल्लें : "देवा, हें काम तुक्का व्हळ्ळें नहीं. फाल्ले स्वयंवरा वेळ्ळेरि श्रीमतीक पर्वताले तोंड मांकडा तोंडा वरि दिस्सुका, तेदना ती ताक्का माळा घालना नात्तिलें, माक्काचि माळा घालतलि, तूं मेग्गेले वयि दया दोवेर्नु इत्तुलें अनुग्रह कोरका !"

"जायत" म्हणलो देवु !

नारदाक भारी खुषि जाल्लि। "मेग्गेलें काऽम जाल्लें, देवु पावलो।" म्हणु तो श्री हरीक प्रणाम कर्नु वैकुंठा थाव्नु आनंदारि भायं सरलो !

"श्रीमति माक्काचि मेळिच तशिश कस्सलें कोरका?" अशिश कनेक विघारि पर्वतु यी आलोचनेरि पळ्ळो ! कडेऽरि ताकायि एकि आलोचन आइलि। तो बावडोयी वैकुंठाक येउनु पाव्लो, आनि श्री हरीले सम्मुकारि हातु जोडसुनु राबलो !

"अरे, पर्वतु वे ? इत्तें विशेष, सैबा ?" देवान हास्तची विचार्ले !

पर्वतान देवाले पाय धर्ले ! आनि म्हणलो : "भगवन् भूत, वर्तमान, भविष्य, हे तिन्नी चेयि ज्ञान आस्स तुक्का. अशिश आस्तना हावें तुक्का दुसरें एक पटि विषयु कस्सलो म्हण सांगचें अगत्य माक्का दिस्सना। श्रीमतीनं मेग्गेले हृदय अपहरिसिलां। माक्का तीचि बायल जाव्का म्हणु मनं आस्स जाल्यारि मेग्गेलो प्रतिस्पर्दि जाव्नु नारदयी आस्स. जाल्लें निमित्त फाल्ले स्वयंवरा वेळ्ळेरि श्रीमतीन माक्का माळा घालचे तशिश जाव्का. हाक्का उपाय कस्सलें म्हळ्यारि नारदाले तोंऽड तिक्का मांकडालें तोंडा वरि दिस्सुका. तेद्ना ती, माळा माक्काचि घालतलि–तू व्हें इत्तुळे माक्का अनुग्रह करि !"

देवाक मनांतु दिस्लें : "दोग्गयि शिकिकले वाज्जिले ऋषि जाल्यारियि हांगेलें मनं एक्कची दीशेरि आस्स. एकलो दूसरयाक वंचन करनु एकि निरपरादि चलयेक लग्न करनु घेवका म्हणु आस्सचि. पोळोयां कस्सलें जात्त म्हणु !"

तो हास्तची म्हणलो : "पर्वता, तुग्गेलि इच्छा आनुग्रह केल्या जाल्यारि हो विषयु कोणकयि कोळ्ळुंक मात्र नज्ज ! जायत नव्हें ?"

पर्वताक भारिक सतोषु जाल्लो : "जायता कोणाकयि ...ावं सांगना !" म्हणु तो देवाक पांयुं पळळो, आनि ...ंतोषारि वैकुंठा याव्न् मार्थ सरलो.

वाट्टेरि येत्तना पर्वतालें आनंद वर्णनातीत : "फाल्ले ...कस्सलें जायत ? स्वयंवरा वेळ्ळेरि नारदालें तोंऽड श्रीमतीक ...ांकडा वरि दिस्तलें. अनंतर ती माक्का फुल्ला माळा घालतलि. माग्गिरि कस्सलें ? माग्गिरि संभ्रमारि विवाहु। ...ाज्जप, तोरण, सिंगार्लेलि मांटवि–खाण जेवण ! तदनंतर ...श्रीमतीन माक्का, नारदालें तोंड मांकडा वरि दिस्तालें म्हणु सांगुक आस्स ! माग्गिरि आम्मि दोग्गयि हास्सुक ...आस्स ! हा ! हा ! हा !"

हेतांतु नारदूयी दिवसाचें सोपन पळयितची अश्शिलो : ...श्रीमती, हो, फाल्लो हे वेळ्ळेरि ती मेग्गेलि जात्ता। पर्वतालें तोंऽड तिक्का मांकडावरि दस्तलें आनि ती माक्का माळा खंडित घालतलि ! ताज्जे नंतर। पाप, पर्वतु विवाहाक कार्यक्रमाक राब्बशि नां। हावं मात्र आमंत्रण दित्तां। पोळोयां कस्सलें करता म्हणु !"

x x x x

फाल्लां जाल्लें :

श्रीमर्तीले स्वयंवरा खातिर रति फाल्लें जाव्वो भित्तरि अयोध्या नगरि जनांनि सिंगार्लि. खयि पळयर्लरि ...यि तोरण, पताक्यो, आंबेपाल्लो फूल आनि घरा बागलांतु ...बण्ण बण्णा रंगेलि !

अंबरिषालें रावुळारयि भांगरा आभरणांनि सिंगार्नु आकर्षक दवरलेलें.। रावुळारा भित्तरि लग्ना मांटोवु अतिशय रुपारि सिंगार्लेलो.

मुहूर्त कालारि दोऽग जन ऋषियि एव्न् पाव्लेंचि. "हावंचि जिकतलो अश्शि प्रति येकलेले मनांतु विश्वासु अश्शिलो.

अंबरीषान दोग्गांकयि यथोचित स्वागत कोरनु विवाह मंटपाक आप्पोनु वेल्लें. मंटपांतु आमंत्रित-पुरोहित, पंडित, मंत्रि मागध बैसूनु अश्शिले.

व्हक्कल श्रीमतीन हात्तांतु फुल्ला माळा घेव्न् लग्न मंटपाचें प्रवेश कर्तना भरलेल्या सभेन्तु एक पटि विद्युस्संचारु जाल्या वरि जाल्लो। आजि तिग्गेलें सौंदर्य वर्णनातीत जाव्न् आश्शिलें. तीणे एक एक पाव्ल मुकारि दवरतना, नारद आनि पर्वतालें हृदयं शेंभरि पटि "डब डब" म्हणुंक लाग्लें।

अंबरीषु धुव्वेक म्हणुक लागलो : "श्रीमती, दोगजनं ऋषि पैंकि तुका कोऽण जायि म्हणु पोळोनु तावका माळा घालि। तूं कोणक माळा घालताकि तो तुग्गेलो यजमानु जात्ता।"

श्रीमतीनं एक पटि तिग्गेलें मात्तें वयि कर्नु दोग्गयि ऋषिलें तेतांनु पळ्ळें। नारदाले तेतांनु पळैतवां तो प्रयन्त-पूर्वक जव्नु हास्लो. श्रीमतीन पर्वताले तेतांतु पळैतना ताणे ताग्गेले खाड परशिलें !

श्रीमतीनं तिग्गेलें मात्तें पदांक घाल्लें। माळा हात्तांतु वलि।

अंबरीषान पोळोनु, "श्रीमती, पळे हो, नारद महर्षि ! आनि हो पर्वतु ! दोग्गयि अनुपम तेजस्वी जाव्नु आशिले ऋषिवर्य. हांतु दोग्गां पैंकि तुक्का कोऽण बम्मुणु जायत म्हणु दिस्ता कि ताक्का तूवें माळा घाल्येत ! पळे !"

पाप श्रीमतीले गाल गुलाबि शॅम्ते वरि ताम्डे जाल्ले! तीणे एक क्षण नारदालें तेतांनु पळैलें। आनि दूसरे क्षण पर्वतालें तेतांनु पळैलें आनि असहायकतेरि मात्तें पंदाक घालनु नेऽल पोळोचाक लार्गालि.

अंबरीषु मुकारि आयलो : "श्रीमती, कस्सलि आलोचनेरि पळया, आमां ? दोग्गां पैंकि कोऽण जायत म्हणु पोळोनु ताक्का माळा घालि. दोग्गयि महान–ऋषि। तूवें कोणकयि माळा घाल्लयारियि तो तुग्गेलो प्रियतमु जाव्नु तुक्का चंदायेरि पळैता ! कायीं सदेंहू पाव्नाका !

चंद्रमा वऽरि आशिलें श्रीमतिलें तोंऽड एक क्षण निस्तेज जाल्लें ! ती निरूत्तर जालिल। माळा हात्तांतु वलि !

"अरे, कसल्याक संकोंच पाव्ता? माळा घालि, आमां दोग्गां पैंकि कोणाकयि एकलाक घालन् सोडि! अंबरीषु म्हणलो.

आंत्तं श्रीमतीन धैर्य घेतलें: "आऽना तूं सांगतां हांगा दोऽग जनं ऋषि आस्सांच म्हणु. जाल्यारि ताम्नि खयि आस्सांचि? माक्का खयि दिस्सनांचि। हँगा दोग जन मांकडा तोंडचे मनिष दिस्ताचि शिवाइ ऋषि दिस्सनांचि. मात्र नहीं हे मांकडा तोंडा चे मनुष्यांले मध्योंतु एकु नवयुवक दिस्ता. ताग्गेले आंगा वण्णु नीळू. तो पितांबर नेस्सुनु आस्स. ताग्गेले दोळे कमला पाकळे वांर आस्सुनु तो माक्का पोळानु हस्तची आस्स. ताणे हास्तना ताग्गेले तोण्ण याव्नु मोगारे पळ्या वांर दिस्ता. तो माक्का यो म्हणु आप्पैंतची आस्स!"

नारदु आनि पर्वतु आश्चर्य चकित जाल्ले। तांगेले मध्येंतु कोऽण एव्नु राबला म्हणु दोळे पुसुनु पोळाचाक लाग्लें। जालयारि तोंका कोणई दिस्सुनुं योनि!

"ते युवकाक हात कित्तुले आंस्स म्हणु सांगशिवे?" म्हणलो नारदु.

"दोऽनि!" श्रीमतिलें उत्तर.

"ताग्गेले हर्देरि कस्सलें आस्स आनि हत्तांतु ताण कस्सले धरलां? हर्देरि सुशोभित माळा आनि एक हात्तांतु धनुस आनि दूसरे हात्तांतु बाण धरलया ताणे!"

"आश्चर्यं। महदाश्चर्यं! हें काम विष्णुशिवायि आनि कोणचान साध्या? जालयारि, हाक्का दोनि हात आनि हात्तांतु धनुर्बाण आस्स म्हणतामूं ही।" म्हणु नारदान लेकतना पर्वतु ताज्जेइतुला आलोचनेरि पाळ्ळो:" नारदालें नोंड मांकडा वरि दिस्सुचें सहज आनि तें हावें देवालाग्गि माग्गुनु घेत्तिलें। जालयारि मेग्गेलें नोंड मांकड़ा वरि तिक्का कशिश दिसलें? भारि विचित्र हें।"

थोड़ा वेऽळु अशिशचि गेल्लो।

अंबरीषाक कस्सलें करचें म्हणु काळनि। ताणें हातु जोड्सुनु विनंनि केल्लि: "महानुभावानों माक्का हें कम्मल्लें म्हणु कळनां। अम्मि थोडो वेऽळु जात्तरि पोळोंयां कस्सलें करचें म्हणु तेद्दोळु थायि विरामु घेव्यां।"

अंबरीषालि उत्र आयकुनु दोग्गयि ऋषींक आयलो कोपु!

"अंबरीषा, आमका मोसु कोरुंक प्रयत्न कोरनाका। आमका तो नव युवक कायि दिस्सना! म्हणतना तू आनि तुग्गेलि धूव हें स्वयंवर म्हळ्ळेले नाटक खेळनची आस्सचि म्हणु दिस्ता!"

तें आयकुनु अंबरीषु चिंताक्रांत जाल्लो. श्रीमतिकयि भय्यं केल्लें: "हे, दोग्गयि ऋषि क्रोधाविष्ट जाव्नु आम्नाक शापु दित्तित, देवाले मनांतु कस्सलें आस्स म्हणु कोऽण जाण? हांव दोग्गा पैंकि कोणांकयि एकल्याक माळा घालता। "अशिश लेंक्कुनु तीणे ते नवयुवकालो उडगसु काणु माळा घाल्यां म्हणु हातु उबारलो. तेद्दंभित्तरि तो नवयुवक दिस्सुनु ऐंक्का कि? तीणे दोळे मुच्चुनु ते नवयुवकाक माळा घाल्लि! क्षणार्धारि तो युवकु श्रीमतीक उभारनु अंतर्धान जाल्लो!

पाप। नारदाक आनि पर्वताक अत्यंत निराशा जाल्लि. "हें काम विष्णुलेंचि आस्सुका. दूसरयांचान असाध्य हें। अम्मि आत्तं वैकुंठाक वोच्चां।" म्हणु ते दोग्गयि वैकुंठाक मनोवेगारि गेल्ले!

व्हायी! श्री हरिनची श्रीमतीक वेल्लेलि. नारदु आनि पर्वतान येवचे दूर थव्नु पोळोनु, "श्रीमती, तू भित्तरि वच्चुनु निप्पोनु बैस।" म्हणु सांगले. श्रीमती हास्तची भितरी गेल्लि.

चिंताकांत जव्नु दोग्गायि ऋषि एव्नु पाव्ले आनि दुःखित स्वरारि म्हण्चा लागले: "देवा, आमगेलि व्हल्केक तूं काम्पुन वरता म्हणु आम्मि स्वपनांतु थायि लेक्कानि तूवें अशिश करचेरें दवा?"

देवानं ताग्गेले दोन्नियि कान धांक्ले आनि सांगले "नारदापर्वता, तुम्मि दोग्गयि शिकिल्ले ऋषि आस्सुनु अम्मल अपवादु मेग्गेले वयि घालचोकी?"

"तशि जालयारि मेग्गेलें तोंऽड मांकडा वरि कस्सलयाक दिसलें ?" नारदान निम्गिलें ।

"नारद," श्रीहरीन सांग्लें, "पळे तूं मेग्गेलो भक्त जालयारियि तुक्का आनेकयि माक्का अर्थु कोरुक जायनि, आशि माक्का दिस्ता. कस्सलयाक म्हळ्यारि हावं केदना हीं भक्ताधीन जाव्नास्स पूरा जनं भक्त यी माक्का एक समान. तुवें पर्वतालें तोंड श्रीमतीक माकंडा वरि दिस्सुका म्हणु वऽर माग्गलों । तशिशचि पर्वतान तुग्गेलें तोंड तिक्का मांकडा वऽरि दिस्मुका म्हणु वऽरु माग्लो. भक्तानि निमगिलेलें दिव्वे मेग्गेलें काम. पळया यावं सत्यसंघुं. तशि आशिले निमित्त हें चक्र आनेकयि मेग्गेलागी आस्स. हावें असत्य कस्सल्याक सांगुका ?"

नारदालो संदेहु आनेकयि परिहारु जायनि. "तशि जालयारि श्रीमतीक कोणे खापुनु वेल्लि ? ती सांगतची आशिलि कि तो युवकु नील वर्णचो आशिलो म्हणु. मात्र नहीं तो धर्नुधारि जाव्नु आस्स म्हणु सगंतची आशिलि !"

श्री हरि म्हणुक लागलो : "नारदा, मेग्गेले वार्यी चिकेचि विश्वासु दवरि, संबा ! हे जगत्यां तु अनेक मायावि जन आस्सचि आनि तान्नि अस्सलें अनेक मायकाचें काम करुक समर्थ । पळया माक्का चारि हात आस्सचि आनि हावं केदना चक्रधारि जव्नु आस्स. तू सांगता ते युवकाले हात्तांतु धनुर्बाण अशिलो म्हणु ! हावें केदनाही बिल्ल बाणु धरलावे ?"

आंतं दोग्गांकयि समाधान जल्लें ! "आमका अंबरीषान वंचन केल्लेलें आस्स. हाज्जि शीक्षा ताक्का मेळका चीचि" अशि म्हणु दोग्गयि ऋषि क्रोधाविष्ट जाव्नु आयोध्याक धाव्लिचि ।

अंबरीषाक कस्सलें कर्चे म्हणु कळ्नि.

"राजन्" कर्कश स्वरारि तान्नि बोब मारि : "तूवें स्वयंवर म्हणु आमका आंमंत्रण दीव्नु आप्पोव्नु तुग्गेले पूवेक अन्य एकेलेक दीव्नु आमका दगा दिल्लि. हाज्जें परिणाम जाव्नु आमका असंतुष्ठ केल्लेल्याक आत्तं घे शापु : तूं आत्तं पर्यंतर शिक्किलि सर्व विद्या विसोर्नु वच्चो, आनि तूं अज्ञान समुद्रांतु बूड्डुनु वऽस।"

तांगेले शब्द तोंडा थाव्नु भायि आयलें सताक, अज्ञाना स्वरुप जाव्नु एक काळें मोऽड प्रत्यक्ष जाल्लें आनि अंबरीषाले तेतांतु धाव्लें. ।

देवालि महिमा कोऽण जाण ? अनेक दशकां फूडे श्रीहरीन दिल्लेलें चक्र देवाले कूडांतु थाव्नु जाग्रत जाव्नु अग्नि ज्वला वंकतची भायि धाव्नु अज्ञान स्वरूप जाव्नाशिले मोऽड आनि ऋषींक धांव्डानु गोल्लें । ऋषीं भय्यान धाव्लेचि-चक्र तांगेले मार्गाशि-आशि धांव पाळि चालु जाल्लि ! चक्राले तोंडा थाव्नु चुक्कोनु घेव्का म्हणु ते मनोवेगारि धाव्लेति—जालयारि चक्रानं तांगेलि फाटि सोणि ! तान्नि पर्वत शिखरारि चळ्ळेति, सागरांतु उडकि माल आनि गोंडारण्या मध्येंतुलयान धाव्लिचि ! जालयारि चक्रान सोऽणि त्यांका । धाव्नु धाव्नु सलवुनु गेल्लेचि बावडे ते । आंत्त तान्नि स्वयंवर, श्रीमति, अंबरीष हांका पूरा विसर्लेचि! आत्मरक्षण तांका मुख्य सवालु जाल्लो । संकट येत्तना वेंकटरमणु उड्गासाक येत्ता खायि, तशिशचि तांका श्री हरीलो उडगासु आयलो. "नारायणा, श्रीनिवासा, दामोदरा राख आमका ।" अशि म्हणु ते देवालें नामस्मरण कर्नु वैकुंठाक धाव्लेचि । देवाक तांगेलो आर्तनादु आयकि पळ्ळो । तो उठानु राब्लो : कशि अंबरीषु मेग्गेलो भक्तुकी तशिशचि हेवायि माक्का लाग्गि आस्सचि । तान्नि येद्दोळ् थायि भोग्गिलें पूरो—नाटका चें एक अंक जाल्लें—आत्तं दुसरे अंकाचि तयारि कर्यां।" आशि म्हणु देवान चक्राक "शांत जा!" म्हणु आदेश दिल्लो तशिशचि अज्ञाना मोडकयि उपशमन केल्लें.

धाव्नु धाव्नु सलवुनु गेल्लेले ऋषीं आत्तं एक क्षण, "बचावु जाल्लि !" म्हणु श्वासु घेव्नाक लागले । देवानं तेद्ना सांगलें : "ऋषिवर्यानों, तुम्मि माक्का आनि मेग्गेले चक्राक क्षमा करूका म्हणु हावं मागतां श्रीमतीक हावेंचि काम्पुनु हाळ्ळेलि । मेग्गेलो परम भक्तु अंबरीषा खातिर हावें हें नाटक खेळका जाल्लें !"

श्री हरीलि उत्र आयकलें सताक दोग्गयी ऋषींक आयलो कोऽपु :

"तूवें, आमका अशिश करचेकी ? तदनंतर हे रीतिरि आमका कष्टयि दिल्ले, देवु जालयारि इत्तें ? आत्तं घे हो शापु : तूं ते अंबरीषाले वंशातु दशरथाक पूतु जाव्नु जन्माक यो ! खंचे रुपारि स्वयंवर मंटपाक धर्नुधारि जाव्नु आय्यिलोकि तेऽचि रुपारि तूं दशरथाक पूतु जाव्का. श्रीमतियि मिथिलेचे जनक रायलि धूव जाव्नु जन्माक येव्वो ! श्रीमतीक तूवें उब्बार्नु वर्नु आमका खंचे रीतिरि दुःख दिल्लेंकि तशिशचि तिकाई एक राक्षसु उब्बार्नु वोरो! आनि तूंवई आम्गेले बऽरिचि दुःखित जा !"

देवाक कोऽपु येनि। सर्वशक्तु जालयारियि तो शांततेरि म्हणलो : "ऋषीनों हावं भक्ताधीन! मेग्गेले भक्त मेग्गेले देव! तुम्गेले शब्द फट्टि जायनाचि. हावं दशरथालो पूतु रामु जाव्नु जन्म घेत्तां। मेग्गेले दोनि हाथ : उजवो भरतु आनि दावो शत्रुघ्न जाव्नु जन्माक एत्ताचि. महाशेषु लक्ष्मणु जात्तलो !"

थोडेंचि क्षणरि देवालि शांतता पोळोनु ऋषि भिल्लेंचि. तांगेलो कोऽपु मायक जाल्लो. "आमगेले रक्षकाक आमि अशिश शापु दिल्वो की ?" तांका अतिशय पश्चातापु जाल्लो : "देवा आमका क्षमा करि ! आमगेलि चूकि जाल्लि ।" म्हणु ते देवाले पाय्यारि पळ्ळोंचि आनि म्हणाले: "अम्मि आजन्म पर्यंतर ब्रह्मचारि जाव्नु वरताचि–हे प्रतिक्षेक देवुची साक्षि !"

अशिश संगुनु ते तांग तांगेले आश्रामाक परत गेल्लेंचि ।

(अभ्दुत रामायण)



## २. कोऽण तो ?

एक पटि देवतेंक आनि दानवांक भयंकर युद्ध जाल्लें. ते युद्धांतु देवाल्लो अनुग्रहु आश्शिले निमित्त देवतेंक विजय प्राप्त जाल्लें. "आम्गेले शक्तिनंची आमि विजयशालि जाल्लिचि ।" अशि तान्नि अहंकारु पाव्चाक लाग्लिचि. परमेश्वराक हो विषयु कळनु देवतेंक मार्गदर्शन कोर्का म्हणु तो एक यक्षालें रुप घेव्नु प्रत्यक्ष जाल्लो.

देवतेकं तो कोऽण म्हणु कळनि. तान्नि सर्व जनालें जन्मा विषयु कळळलो जातवेदु अग्निक अप्पोनु "कोऽणतो म्हणु पोळोनु यो !" म्हणले.

अग्नि चमकलो, आनि ते यक्षाले येद्राक राब्बुनु निम्गिलें ताणे : "तूं कोऽण ? हांव पळे अग्नि. मेग्गेलें अन्य एक नावं जातवेद म्हणु !"

"हो, व्हयि वे !" म्हणलो यक्षु: "तुग्गेलग्गि कस्सलि शक्ति अस्स ?"

अग्निन अहंभावारि सांगले : "हे जगत्यारि कस्सलें अस्सकि तें सर्व हांव क्षण मात्रारि भस्म करुंक समर्थु !"

ते यक्षान एकि तणा काड्डि काणु अग्निले समक्षारि दवर्लि आनि सांगले : "तश्शि जाल्यारि हि तणा काड्डि जळयि पोळोयां."

"हें खंचे व्हळ्ळें काम ? म्हणु लेक्कुनु अग्निन ती काड्डि जळैता म्हणु मुकारि गेल्लो ! जाल्यारि ति काड्डि जळिन. ताणे सर्व प्रयत्न केल्लि. ऊहूँ । काड्डि जोळेचाक जायना नात्तिलें तो देवतेंलाग्गि परत येव्नु हुमेतची म्हणलो : "तो यक्षु कोऽण म्हणु माक्का समची कळिन !"

देवतेंनि आंत्त वायुदेवाका सांगलें "तू वच्चुनु पळे, तो कोऽण म्हणु !"

"जायत !" म्हणु चमकलो वायु.

यक्षाले सम्मुकाक राब्बुनु वायु म्हणलो : "तूं कोऽणगा ? हावं पळे वायु म्हणु, मेग्गेलें आनि एक नावं 'मातरिश्वा' म्हणु! "व्हयिवे! तुग्गेलें सामर्थ्य कस्सलेंक?" यक्षान निमगिलें

"हे जगत्यारि कस्सलें अस्सकी तें सर्वंयी हावं उब्बैता! म्हणालो वायु अंहकारारि !

"तश्शि जाल्यारि ही तणा काड्डि उब्बै पोळेयां !" यक्षान काड्डि तांग्गेले येद्राक दवर्लि.

"हें कस्सले वळ्ळें काऽम ?" म्हणु वायुन जोरारि फुंकलें । काड्डि मात्र हाल्लनि. ताणे अश्शिलें बऽल घालनु उब्बोचाक प्रयत्न केल्लि. जाल्यारि काड्डि मात्र ताज्जान एक अंगुलयि हाल्लोचाक जायनि. तो हुमेनु परत गेल्लो अनि देवतेंकं सांगले : "तो कोऽण म्हणु माक्का समंची कळिन !"

तेद्दना देवतें तांगेलो रायु जाव्नाशिलो देवेन्द्राक विनंति करुंक लार्गालचि : "महाशया, तूंची वच्चुनु एक घडि पोळोनु यो!"

"जायत !" म्हणु इन्द्रु यक्षान आश्शिले कडेन चमकलो. ताणे वच्चुनु पळ्नु एक क्षण ताक्का पोळोचे भित्तरि यक्षु अदृश्य जाल्लो !

इन्द्राक आश्चर्य जाल्लें. ताणे थयिंचि राब्बुनु पळैतचि आस्तना ताक्का अनुपम सुंदरि जाव्नाशिलि उमा हैमावति दिस्लि तेऽचि जाग्यारि ! ताणे तिग्गेलग्गि निमगिले : "आम्मां, हांगा येद्दोळु थायि आस्सुनु आत्तं अदृश्य जाल्लो तो यक्षु कोऽण ?"

उमा हैमावतिन सांगले : "तो साक्षात परब्रह्म ! तुम्गेले विजयाक कारणीभूत जाव्नु, अश्शिलो भगवंन्तु तो" इंन्द्राक सर्व विषयु कळळो.

(तात्पर्य : जरात्यारि सर्व विषयु दैवाधीन. सक्कडयी ताणे सांगिले तश्शि चलचें ! मनुष्य निमित्त मात्र – सूत्रधारि तो ! जाल्ले निमित्त अंहकारु आस्चाक नज्ज.)

– (केनोपनिषद)

### ३. सती सुकन्या

सुकन्या शर्याति महाराजालि धूव. अनुपम सुंदरि बप्पुक सुकन्या म्हळयारि पंच प्राण. एकु दिवसु रायु ताग्गेले परिवार समेत धूवेक घेव्नु वन विहाराक चम्कलो. भोंव्त भोंव्त तान्नि च्यवन ऋषिले आश्रामाक पाव्लिचि.

सुकन्या तिग्गेले सरवीक घेव्नु वनाचें सौंदर्य पोळोका म्हणु भार्य सर्लि. चिकेचि दर वत्तना तिक्का एकु हुत्तो दिस्लो. तीगे हान्तु कस्सलें आस्स म्हणु एक रंन्घ्रातुल्यान पळैतना तिक्का दोनि झगझगेचे वस्तु दिस्सुनु आइले. कुतुहलारि तीणे एकि बांडु काणु कोंकुनु साळ्ळें ! तेद्दे भित्तरि रक्तधारा ते रंन्धातूनु भार्य सर्लि.! सुकन्याक अतीव भंय्य कर्नु ती बाप्सूले बिडाराक धाव्नु गेल्लि. !

थर्यि ररात भार्यि येत्तना हांगा रायाले परिवाराक मलमूत्र बंऽद जालें ! आश्रामांक प्राय : कस्सलेकी रीतिरि अपचार जव्ना स्सुका म्हणु रायान लेक्कुनु पूरा जनांक आप्पोनु विचार्ले. भंय्यान कंगाल ज्ञाल्लेलि सुकन्यान जाल्लेलि घटना सांगलि. रायु तुरंत समस्त परिवारा घेव्नु हुत्तालाग्गि चमकलो. ते हुत्ते मित्तरि च्यवन ऋषि तपस्य कर्नु बैस्सुनु आश्शिलो. आनि, सुकन्यान अचातुर्यारि तग्गेले दोळे कोंकिले ! शर्याति सपरिवार समेत ऋषिले पाय्यारि पळ्ळो. धूवेन केल्लेले चूर्कीक क्षमापण कऽरि म्हणु दोळे भर्नु मग्गुनु घेत्लें ताणे ! मांतारो जाव्नु मुज्जट ज्ञाल्ललो ऋषि आंत्तं कुर्डोयी जाल्ला. "राया, क्षमा करुंक मेग्गेलि अड्डि कायि ना. जाल्यारि मेग्गेलि शुश्रुषा आत्तं पळैर्तलि कोऽण ?" म्हणु ताणे निम्गितना रायान "सुकन्या पळैतलि !" म्हणु सांगुनु धूवेक लग्न कर्नु दिल्लें ! अनंतर रायाले परिवाराक आइलि बाधा निवारण जाल्लि !

सुकन्याक दुःख जाइनि. बाम्मुणु मांतारो, कुर्डो ज्ञाल्यारियी तीणे देवु म्हणु लेक्कुनु ताग्गेलि सेवा कर्नु ताक्का केदनाइ संतोषारि दवर्तालि ति. तें पोळ्नु च्यवनाक बायले वर्यि भारी संतोषु आनि अभिमानु आश्शिलो. एकु दिवसु च्यवनाले आश्रमाक देव वैद्य अश्विनि देवते आयलेति. च्यवनान तांका यथोचित सत्कारु कोर्नु संतुष्ट केल्ले. आनि सांगले, "माक्का आर्ताचि लग्न जाल्लां, आनि मेग्गेलि बायल नवतरुणि पळया. तिक्का खुषि जव्चे तस्सलें माक्का एक स्पुरद्रूप दीनांचि की ?"

अश्विनि देवते "जायत !" म्हणु ताक्का हात्ता धर्नु लाग्गि आश्शिलें एक तळयेंनु उडकि मार्लि. आनि थोडेचि वेळेरि तीनि नव युवक-एक्कु लेक आश्शिले-भार्यि आयलेचि तळयेचे बगलेक राब्बुनु आश्शिलि सुकन्याक तेग पैकि बाम्मुणु कोऽण म्हणु कळनि. तीणे देवतेक पतिभिक्षा दिय्या म्हणु प्रार्थना केल्लि. मेच्चुक देवतेर्ति तांगेले फुळ्ळें रुप घेल्लें. नव युवकु च्यवनान हास्तची सुकन्यालो हाथु धरलो ।

– (ऋग्वेद)

---

## "अलकहालिक्स अनोनिमस"

पिव्डयांक एक आशाकिरण.

श्री. यम्. आर. पै.

सुरापान कर्तल्यांतु तीनि वर्ग आस्सचि : अपरुपायेरि वार्डिके असले समारंभातु मात्र पित्तलि एकु वर्गु, पानीय पार्टि वेळेरि एकु नावें दोनि घोठु पिव्चो सौम्य देन्निचो वर्गु आनि तिन्निचे, पिव्डे म्हळयारि राब्बइना नात्तिलें केदनाहीं पित्तलो वर्गु. हे तीनि वर्गातुं अंतिम वर्गु–पिव्डे– अतीव कष्ठांतु पडतात. तान्नि कसलें कार्य केल्यारियि तें समं जायना. मात्र नहि समाजांतु अपकीर्तिक पात्र जात्तात. हाज्जापेक्षा तांगेले घरकडेयी चेर्डु, बाळ आनि तांगेले कुटुंबार्त्यि तांगेले विषय द्वेष प्रारंभ जाना. थोडेची वर्सा भित्तरि ते आर्थिक, कायक आनि बौद्धिक हे तीनि विषयांतु नष्ट अनुभसितात, आनि हांतु थोडे आस्पत्रेक पाव्लेरि, अनेक, पिश्शेलें आश्रमांक दाखल जात्ताचि. थोडें जनं अल्प प्रयिरि मृत्यु वश जाल्यारि काइं आश्चर्य नां!

आर्ता थायिं समाजानं पिव्ड्यांक नीच मनोभावनेन पाळयिलें आस्स, जाल्यारि आयचो मनोभावु निराळो अस्स. कारण इत्लेंकि, पिव्वप आजि एकु रोगु आनि मानसिक दुर्बलता म्होणेनु घेत्ता शिवाई एकु दुरभ्यासु म्होणेनु दूर कर्नु घेना, जाल्यारि हे रोगाक औषधयि नां. निद्दे वक्कद दीव्नु उपशमन करुंक प्रयत्न केल्लयरियि मानसिक रोगाचें शुश्रूषा चलना. जाल्यारि तांका एक आशा किरण आस्स :–

ताज्जे नावं "अल्कहालिक्स अनोनिमस" ही संस्थो सुमार दा वर्सांचें पैलें अमेरिकांतु दोनि पिव्डेन मेळनु प्रारंभ केल्ललो. आजि हे संस्थेचो शाखा समुदायु शंभरि पेक्षा चड देशांतु आस्सुनु एक "मिलिया" पशि चड पिव्डे गुणमुख जाल्याति.

ही संस्था ताज्जे कार्यक्रम आनि रचनेंतु विशिष्ट जाव्नास्स. खंचेयि पिव्डयान हे संस्थेचे सदस्यु जाव्येत. सदस्याक वर्गणि नां. पिव्वप सोडतां म्हणु मात्र ताणे निर्धारु कोर्का. हेंचि सदस्यत्वाक मुख्य अर्हता जाव्नास्स.

पिव्ड्यान प्रथमत : पिव्वप सोडचें ताग्गेले हात्तांतु ना आनि ताज्जें वक्कदयि ताग्गेलग्गि ना म्हणु लेक्कुनु घेव्का, अनंतर देवाक शरणागत जाव्नु ताग्गेलो अनुग्रह मागुका. समझा, देवाचेरि विश्वासु ना तेद्दना, ताग्गेले शक्ति पेक्षा वळिळ शक्ति खंचि अस्सकि ताज्जेरि विश्वसु देवोरका. नात्लारि संस्थे वयि विश्वासु दोवोर्येत. हे संस्थेतु मतभेदु ना. तोचि देवु होचि देवु म्हणुयि ना. तांगतांगेले मतानुसार आनि विश्वासानुसार नंविगा दोवोर्येत. हांगा एकु विषयु अभिमानारि सांगुका जात्ता. आम्गेले देशांतु चर्चीस्त बांधवानि इगर्जेतुं हे संस्थेचे कार्यक्रमांक–मीटिंगांक–विनामूल्य जागो दिल्ललो आस्स.

हांज्जि मीटिंग ह्याक एक नहीवें दोनि पटि जात्तांचि. पिव्ड्यानि तस्सले मीटिंगातु भाग घेव्का. ते मीटिंगांतु अनेक पिव्डे आनि पिव्वप आर्तीचि सोळळेले आस्ताचि. तांतु प्रतियेक्ले तांगतांगेलो स्वानुभवु सांगतची आस्ताचि. तें आयकुनु प्रभावित जाव्नु थोडे पिव्डे शुरुवेचे मीटिंगा थाव्नुची पिव्वप सोडताचि. अनेक जनाक मात्र महिने, वर्स लागताचि. थोडे जनांक यश मेळना, जाल्यारि आधिकाधिक जनांक हे संघ शुशृषेरि गुण मेळता, हे शुशृषेरि पूडे पिव्डो जाव्नु आत्तं गुण मुखि जाल्ललो, नवीन आयिले पिव्डयांक मार्गदर्शन कर्ता. मात्र नहीं समाजान दीनां नात्तिलें प्रीति आनि सहानुभूति दित्तातो. ताग्गेलें मार्गदर्शनानि पिव्डो, चूकि सम्मं कर्नु ताग्गेले कौटुंबिक जीवन सुधारिसता.

हे संस्थेचे तत्त्व विशिष्ट जाव्नास्सांचि. खंचेयि रीतिरि संस्थेक अधिकारा आशि नां. सेवा भावु हांगा प्रधान जाव्नास्स. प्रति एक 'कूट' स्वतंत्र जाव्नास्ल्यारियि मुंबई तस्सले शहरांतु सर्व कूटाचें कार्यक्रम संघटित करुंक "कोओर्डिनेशन ग्रूप" आस्स. सदस्य तांगेले पैलें नांवारीचि अप्पोनु घेव्नु तांगेले पैक (आड नावं) एक अक्षरारि मांगताचि.

ही संस्था दुड्डु संग्रह करुंक नंहिवे आस्ति पास्ति घेव्चाक वच्चना. प्रती मीटिंगाक एकि पेटि घुंव्डायताचि. शक्ति आनि मनं आशिर्लि पेट्टेंतु खुशि आशिर्लि तित्तुलो दुड्डु घालताचि, अशिश जमा जाल्ललो दुड्डु संस्थेचो कार्यकलापाक खर्चिताचि. आनि वूणे पळयारि हे संस्थे मुखेन गुणमुखि जाल्लेले महाशये भर्ती कर्ताचि, शिवायि भायि य।व्नु धन सहायु केदनाहीं निम्गिनांचि.

हो संस्थो प्रचारा मार्गाशि नात्तिलें शांत रीतिरि काम करनु जनांक जाल्ले इत्तुलें सहकार्य करनु समाज सेवा करचांतु आनंद पाव्ता. हाक्का प्रचारु जायि इत्तुले खातिरकि जाल्ले तित्तुले पिव्डयांक हाज्जे अस्तित्व कोळका आनि तान्नि संस्थेचो फायदो घेव्का म्हणु.

भारतांतु हे संस्थेचें आगमन वीस वर्साचे पूडे जाल्लें. एक केनेडयिन सदस्यान एक सान जाहीरात हे विषयांतु दिल्लेलें आस्सुनु तें पोळोनु मुंबई थाव्नु हेरि यम्. मळळेले पिव्ड्यान दिल्लीक वच्चनु ताक्का भेटि दिल्लि. थोडेंचि समया भित्तरिं हेरि यम्. हाणे ताग्गेले पिव्वप सोळळें, मुबईक परत येत्तरि ताणे संस्थेचें उन्नतीक परिश्राम पाव्विले निमित्त आजि हो संस्थो भारतांतूयि पिव्डयालि सेवा कर्तची अस्स. मुंबई शहरांतु २३ 'ग्रूप' आस्सुनु येद्दोळ थायि १००० पेक्षा अधिक पिव्डे गुणंमुखि जालयाति.

हया संस्थेन हजारों हजार पिव्डयालें पिव्वप सोड्वानु तांका आनि तांगेले कुटुंबाक सेवा केल्लेलि आस्स. तांगेले निराशमय जीवनांतु आशाकिरण हाळळेलें आस्स. हाज्जे तत्त्व इत्तुलेंचिकि स्वसहाय आनि देवाचेरि विश्वासु दवर्ल्यारि देवु केदनाहीं सोण्णु घाल्ना।



# हावं रादंप शिकलिं

– रंजिताई, मुंबई

आम्मा पाच्चेले लग्ना खातिर गावांक वत्ता म्हणु आय्कुनु माक्का भारी येच्चना शूरु जालिल. कोलेज शिक्कुनु जात्तरि घरकडे आस्लारियि सगळो दिवसु काण्थे पुस्तक वाज्जुनु, आम्मान केल्लेलें रुचि रूचि रांदप जेव्नु "आमा, तूवें केल्लेलि ही रांदयि लायकि जात्ता, तूवें केल्लेलि ती रांदयि लायकि जात्ता म्हणु आम्माक उब्वोनु तिग्गेले हात्तान माक्का जाव्का जाल्लेलें कोरोनु, खाव्नु, सुखारि, येच्चना तात्तिलें दिवस काडत आशिशलि. आत्तं आम्मा गावांक वत्ता म्हणु मक्का येच्चना शूरुं जाल्लेलि आम्मांक सोणु राब्बुका म्हणु नहीं. आम्मांन वत्तरि पूरा काम आनि रांदप मेग्गेले मात्यारि पडता म्हणु.! हावें अम्माले ओटूचि गावांक ओच्याक मस्त प्रयत्न केल्लें. जाल्यारि सान भैणिक परिक्षा आशिशले निमित्त माक्का घरकडेची राब्बुका जाल्लें.

आम्मान वोच्चे पूडे गाल पुग्गोनु बशिशले माक्का एक, हात्तान बरयिलें रांदपा बूक दिव्नु म्हणालि : "कोले-जांतु कसकसलें प्रयोग करतलि तुम्का रांदप एक वळ्ळो विषयु वे ? हें बूक पोळोनु चंद करनु रांदप करि. एक आठ दिवस पुणि भैण्यालाग्गि लडायि करना नात्तिलें तांकां चंद करनु पळे !" म्हणु तीणे म्हणतना, तिक्का पळैना नात्तिलें हावें "हूँ!" मळ्ळें. आम्मान चमकले सताक माक्का दोळेंतु उद्दाकयि आयलें. दोळे पुशितची हावं वासरें चमकलि.

सकाळि बस्सारि वच्चूका जालें निमित्त आम्मान पाल्लें जाव्का जाल्लेरीचि उठानु कापि आनि खाण कोरनु दवोर्नु बार सरनु गेल्लेलि. वासरें एव्नु कापि पित्तरि चिर्कोचि समाधान जाल्लें. मात्यारि जवाबदारि आशिशले निमित्त, आप्पापि मन मोंवु जाल्लें. भैण्याक जागोनु तांका तोंड दुव्वाक पेटयिलें. कापि दीव्नु जात्तरि, तांका चंद करनु, पांति घालनु स्कूलाक पेटयिलें. माक्का कळना नात्तिलें तांगेलें विषयांतु मातृभावना जाग्रत जालिल. कारण, चारि दिवसु हावं तांगेले मात्र स्थानारि राब्बूका नहिंवे ?

आम्मांक बस्सारि बोसोनु आनु घरकडे आयलो. ताकायि कापि दीव्नु हावें रांदप करूंक शुरु केल्लें. शुरुवेक रांदयकायि कस्सलि आस्स म्हणु पळैलें. ताज्जेन कसलें कोरयेत म्हणु, बूक सोडवायिलें. अर्ध घंट्यारि कोळंबो करचो म्हणु निर्धारु केल्लो. ती रांदयि चिर्कोचि सुलभशि दिस्लि. शुरवेक बाटलि सोद्दनु कोळंबे पिट्टि आस्सकि म्हणु पळयिलें. अंधि बाटलि पिट्टि पोळोनु माक्का खशि जालिल. सात, आठ डब्बे सोद्दितरि एकि दाळि मेळ्ळि. ती कस्सलि दाळि म्हणु कळना नात्तिलें आम्माक होर्नु दाक्कयिलि. ती तोरि दाळि म्हणु ताणे सांगुनु हावें घरकडे बस्तरि काम शिक्कनि आनि आम्मांक माक्का रांदप शिकोचाक जायनि म्हणु उल्लोचाक लागलो. हावं भैंय्यान वासरेक धालिल.

शुरवेक दाळि वाणानु शिज्जत घालिल. आनि ती दाळि शिज्तना पोळेनु राब्लि. कुक्कर आस्लारियि ताक्का हातु लाव्चाक धैर्य जायनि. तात्तावळि एकेकाचि दाळि काणु शिज्लिवे म्हणु कोंकुनु पळैतची आशिशलि. सिज्जनि म्हणु रांदयि कायि शिदूक बस्लि. बरे दोन्निचि घाय जाव्वो भित्तरि रांदये कायि शिदुनु जाल्ली. घायु घून्नु रगत पुशितां म्हणतना दाळि पंदा लाग्गूनु घाणि एक्काकि ? अशि रांदप जाल्लें. प्रारंभारि एक तोपु आशिशलो कोळंबो घडये एक पटि रुचि पोळेनु पोळेनु अर्ध तोपु जाल्लो.

हावें सर्वांकयि जेव्णाक आप्पयिलें. रांदयि खाव्नु हें कस्सलें म्हणलो आनु. "कोळंबो !" म्हळ्ळें "कोळंबो व्हयिवे?" म्हणलो हास्तचि. हावें मात्तें पंदाक घालनु उल्लयिना नात्तिलें शीत वाळ्ळें. मुद्दो जाल्लेनें शीत पेळेनु ताक्का आयलो कोपु. शान्ती, एकि डिग्रि घेतलि म्हळयारि जाल्लेवें ? चलये चेर्डुवानि पाक शास्त्र शुरवेक शिक्कुनु काडका ! वेळ अनपत्यारि रांदप करुंक गोत्तु आस्लारि पोट भोर्येत शिवायि पुस्तक वज्जुनु साध्यवें" तो आनेकयि कस्सलें म्हण्ता आशिशलो कि इत्तेकि.! मेग्गेले दोळयांतु प्रत्यक्ष जाल्लेलि गंगा–भागीरथि पोळेनु मुखारि उल्लोचें राब्बयिलें ताणें. भावंड नोण्चेन जेव्नु चमकलिचि. रूचि पळैता म्हणु खाव्नु खाव्नु अर्ध तोपु कोळंबो मेग्गेले पोट्टांतु वच्चुनु आनि आंत्रालि उत्र आयकुनु माक्का भूकचि लागनि. जाल्यारि तो दिवसु मेग्गेले जीवनांतु माक्का पंथाहवान दिल्ललो दिवसु जाल्लो.

हाज्जे पूडे आम्मान माक्का रांदप शिकोचें प्रयत्न करनी म्हणु नां. जाल्यारियि तीणे कस्सलेंयि कामांक आप्पायिलें म्हळ्यारि माक्का करकरशें. काण्ये पुस्तक अर्धारि सोणु एक्का म्हणु. "आत्तं एत्तम्मा !" म्हणु सांगुनु थयि बोश्शें आशिलें. थोडेंचि वेळेरि अर्ध मनारि वत्तनां आम्मालें काम जात्तालें. आम्मानं भिष्टायिलारि मेग्गेलि जावाब 'रेडि' :– "रांदप भारि वऽड कामवे ? पूरा उपकरे फण्णंक एक्कची सूत्र. पूरा मास्लाक साधारण हळत एक्कची. एक दोनि बऽग चड–ऊणे. आनि रांदयि कायी शिज्जयिल्यारि जाल्लें नहि वे ? तें कस्सलें भारी काम ? हांव दोनि दिवसारि शिक्कुन्नु काडता !" कडेरि सांगुनु सांगुनु आम्माकची बेजारु आयलो. शिवायि हांव सुधारलि नां. !

माग्गिवयले आठ दिवस आठ युगशे गेल्लें. । सामानु हाडचो, चेडवाले करकर, उदकाचि बाधा, भावंडालि लडायो, आनि रांदप, आम्मा हे पूरा कशिश कर्नु सुधारशितालि म्हणु दिस्लें. आनि हावं इत्तुलि वडि जाव्नु कस्सलेंयि काम करना नात्तिलें आम्मांक सहायु करना नात्तिलें नुतची खाव्नु बस्लि म्हणु माक्काचि लज्जाशि केल्लि. अशिश आठ दिवस मेग्गेले मनाचि स्थिति सांगचि नयि !

आम्मान वापास येत्तरि हावें रोणु सागलें : "आमां, मेग्गेलि चूकि जाल्लि. माकायि, रांदप शिकयि!" आम्मानं माक्का रांदप शिकोचाक शुरु केल्लें. हावें मस्त काम करनु दिव्चाक शुरु कर्तारि पाप, तिकायि आरामु मेळ्ळो. जाल्यारि रांदप शिकचें म्हळयारि हावें पूडे लेक्किले इत्तुलें सुलभ नहीं. उपकरि, मासला रांदयो, पान्ना आंबडो, पाल्ले चटनि, दॆंटा सुक्कें, घीरा गोज्जु, बिय्ये पोळो–अशिश प्रति एक हावं वायट जायना तशिश करुंक शिकलि. तदनंतर पत्रिकेरि एव्चे रांदयो घरकडे कोरुंक शुरु केल्लें. माक्का दिसता हें रांदप मळयारि शिक्कुनु अंत्य नां. एक रांदय कायेन नमूनमून्याचें रांदयि कोरयेत. आनि दुसरि दुसरि रूचि (हावें करचे रांदयि वापास हावेंचि करूंक गेल्लेरि दुसरीचि रूचि येत्त म्हण्चो विषयु विगड्.)

माक्का वांडिक निश्चय जात्तरि मेग्गेलि सजींवि मामभा गावां ताकुनु आयिलि. तिक्का आम्मा सांगतलि : "चलये चर्डुवांक वांडिक जाल्यारि आमगेले मात्ते वयलि जवाबदारि ऊणे जात्तबयि, जाल्यारि आमगेले शांन्तिक लग्न जाव्नु वत्तारि माक्का मात्र हातु मोळयावरि जात्तलों"! तेंआयकुनु माक्का **संतोषान रण्णें** आयलें !

---

# हो दोनि दिसांचो खेळु

हो खेळु दोनि दिवसांचो
हो मेळु दोनि दिवसांचो

किल्याक धरता ममकार
कित्याक करता अहंकार
क्षणिकु चोयू पैसो अधिकार

अंत्यारि येना ती बाळ्ल
अंत्यारि येना तें बाळ
येत्ता चोयू बरें बाम्टा फळ

सोण्णाका सत्य आनि धर्म
सोण्णाका नित्य विधि कर्म
हेंचि चोयू जीवन मर्म

— कवि — श्री. बि. वि. बालिगा
मंगलूर

# प्रीति आनि दया धर्म स्वरुप

—श्री के. रमेश पै, उडुपि.



कन्फ्यूषियस चीना देशाचो एक होडु तत्वज्ञानि. तो मरण शय्येरि आश्शिलो. असंख्य शिष्यवर्ग दुःख मानस जाव्नु ताग्गेले शय्येलाग्गि बैसुनु आश्शिले. शिष्यानि गुरुक उद्दोश करुनु प्रार्थना केल्लिकि तांका अन्तिम उपदेशु दीव्का म्हणु. कन्फ्यूषियसान एक शिष्याक आप्पोनु ताग्गेले तोंड सोडोचाक आज्ञा दिल्लि. आनि सांगुंक लाग्लो, "हान्तु तुम्का कस्सलें दिस्ता ?" शिष्याक गुरुलि जीब मात्र दिस्लि. आनि ताणे तश्शिचि सांग्लें. गुरुन प्रश्न केल्लो की दांत खयि गेल्ले? शिष्य म्हणलो, "त्ये केदनकी पोणु गेल्याति !" कन्फ्यूषियस गंभीर वाणिरि म्हणालो : "दांत मस्त वेळानंतर आय्यिले. कडेरि मस्त वेळ राब्बनिचि. जाल्यारि जीब जन्मादाकुनु आस्सुनु कडेरि तांयि उरलि. जगत्यांतु दांता म्हण्के घट्टि आनि तीक्ष्ण गुण आश्शिलो वस्तु मस्त काळ बाळ्तार ऐना. जिब्बेमण्के मृदु जाव्नाश्शिलो वस्तु मस्त काळ वांचता" हाज्जो अर्थु दर्पा पेक्षा प्रीति बहू चांग साधन म्होणु. पुरंदरदासान म्हळ्ळां "कल्लागिर बेऽकु कठिन भव तोरेयोळगे; बिल्लगिर बेऽकु बल्लव रोळगे !" आम्मि फात्रा मण्के गट्टि आनि तीक्ष्ण जाव्नु राब्बुका केदना म्हळयारि हे संसाराचे कठिण जाव्नु आश्शिले समस्या आनि कष्टा सरमाळा सामना कर्तना शिवायि नित्य जीवनांतु आम्मि घनुष्या म्हण्के बाग्वुनु विनीत जाव्नु आस्सुचें योग्य म्हळ्ळलो अर्थु हे उपदेशंतु दिस्ता.

प्रीति अति अमूल्य जाव्नु आश्शिलो वस्तु. आम्मि तस्सलि प्रीति आम्गेले जीवनांतु प्रकट केल्यारि आम्का विगड जनालि प्रीति अनायास जाव्नु खंडित मेळ्ता. प्रति एक संदर्भारि प्रीतिन म्हळ्ळेलें उत्रं दुःखाक कारण जायना. देवपुत्रु येसुक्रिस्तान पीटराक अश्शि साग्लां :—

"तुग्गेले खड्गाक ताज्जे स्थानारी दवरि. इत्यका म्हळयारि खड्ग उब्बार्नु दिवसु काडतलो खड्गा निमित्तची मरण पाव्तलो !"

एक कडेन एकु नौकरू आफिसाक धा मिनिट तोडोवु कर्नु आयलो. ताग्गेले विभाचाचे मेलधिकारिन ताक्का ताग्गेले कूडातु आप्पोनु, तुक्का आफिसाक येव्चाक इत्या वेळु जाल्लो म्हणु जोरू करनु निम्गिलें.

"दया करनु माक्का क्षमा कोरका, स्वामी !" कारण समर्थन करनु नौकरू म्हणु लाग्लो "कालि दाक्कुनु मेग्गेलें चेर्डु असौख्यारि आस्स. जाल्ले निमित्त माक्का चिकेचि तोंद्रे जाल्ले. हावं . . ." म्हणु मुकारि वाक्य पूर्ति कोरचे भित्तरि अधिकारिन बोब मार्लि : "बंद करि ! तुक्का शंभर तापत्रय आस्सुंक पूरो ! ताक्का आनि तूंवे हांगा कोरचे कामांक कस्सलोयि संबदुयि नां आमका दिस्ता तुक्का कामं करुंक इष्ट ना म्हणु ! तुग्गेलें आलस्य आम्मि लक्ष्याक वेल्लां. तूं हांगा दाकुनु भायं वस !"

नौकराक आकाशु मत्यावर्य पळयावरि जाल्लें. मुकारि तोंडा दाकुनु शब्दु भायं येनि. ताणे तक्षण एकि रजे आर्जि बोरोनु दिल्लि. आनि ताग्गेले सहोद्योगि-लाग्गि एव्नु अश्शि म्हणलो "सत्य आस्सो, सान आस्सो, आम्गेले खंचेयि समस्येक हें आफिस किंचित गमन दीनां म्हळ्ळलो विचारू मेग्गेले मनांतु केदना केदानायि ऐत्ता. आजि माक्का कामं करुंक मनयि नां, शक्तियि ना. हो वेळु हांगा काम करनु संपव्चे पेक्षा अस्वस्थेन आस्सुचे मेग्गेले चेर्डाक समाधान करनु ताक्का हात्तांतु घेव्नु काडचा म्हणु माक्का दिस्ता. इत्याक म्हळयारि तें चेर्डुचि मेग्गेले भविष्याचे पूरा आशा आनि आधारू जाव्नु आस्स शिवयि हावें मेग्गेलें म्हणु सांगचें हें आफिस नयि !"

मस्त अनु काण्णु काम करचो तो नौकरू रजेरि गेल्ललो निमित्त ताग्गेले काम बिगड नौकरानि कष्टारि कोरका पळ्ळें.

आनि एकु व्यापारि संस्थो. थंयि येक्क वेळेरि पांच सिब्बंदिक येक्कू दिवसु रजेरि ओच्चुका पळ्ळें. बाकि उरलैले थोडे सिब्बंदि कष्टारि काम मुकारिसिता आशिशले. ताज्जे मध्येंतु आनि एकु नौकरु ताक्का ताग्गेले घरकडे अगत्य काम आशिशले निमत्त ताक्का एक दिवसाचि रजा जाक्का म्हणु अपेक्षा पाव्ता.

रजेचि अर्जि घेव्नु मेनेजरु. ताक्का आप्पोनु अशिश सांगता :– "पळे, पायि तुक्का घरकडे भारी जरूराचें काम आस्स म्हणु मावका कळ्ळे. ते कामाक तूं हाजरि जायना नाल्लारि तुग्गेले जनांक भारी दुःख जात्तलें आत्तं तुग्गेले आफिसाचें तात्कालिक परिस्थितिचि गंभीरता अर्थ कोरनु घेव्चे तिल्लो तूं खंडित बुद्धिवंतु आस्स म्हणु मक्का विश्वासु आस्स. जाल्ले निमित्त हे वेळा तुग्गेलि हाजरि आफिसांतु अगत्य आस्स म्हणु तुग्गेले कुटुंबाचांक कळोनु संतैसिताळे. ?"

नौकराक ताग्गेले अधिकारिन म्हळ्ळेले हे प्रामाणिक उत्रांतु आनि तांतु भोर्नु आशिशले प्रीतितु गोडसाणि दिस्लि. काम तुग्गेले आफिसाचे म्हणु सांगतना निज जाव्नु ताक्का ताग्गेले घरा कामाचे महत्त्व पूर्ण विसोर्नु गेल्लें. ताग्गेले अधिकारि वयि आनि ताग्गेले आफिसा कामा वयि ताक्का भारी गौरवु उत्पन्न जाल्लो.

हेंदिवसु अधिकारिन आफिसा ऐत्ता आस्तना, "सर आजि हावं आफिसा आयला. हावं हांगाचि काम करतां !" म्हळ्ळलो स्वरू आयकि पळ्ळो. तो स्वरु एक दिवसु रजा जाक्का म्हणु अपेक्षा पाव्विले नौकरालेचि जाव्नु आशिशलो.

हांगा आमका दोनि परस्पर विरुद्ध मनोभाव दिस्ताचि तांतु येक्कांतु रात्रिचो अंधकारू अनि दोन्निचांतु दिवसाचो प्रकाशु उठानु दिस्ता. सत्य सांगचे जाल्यारि आजि जगत्यां तु प्रीति, दया, आनि औदार्य अस्सले गुण ऊणे जाल्याति. विगड जानालें दुःखांतु आम्मि मागि जाल्यारि दुःखि तांगेलें अर्व दुःख कळ्वुनु घेत्ता जाल्यारि ताज्जे बदल ताक्का ऐद्रा उल्लयिल्यारि ताग्गेलें दुःख विशेप जाव्नु तो ताग्गेलि शक्ति पूरायि काण्णु घेता.

पंडित जवाहरलाल नेहरू ताग्गेले एक पत्रांतु अशिश बरैता :– "आयचे जगत्यान, समस्त संपावन केल्लां. जाल्यारि ताणे मनुष्य सहज जाव्नु आशिशलि प्रीति कळ्वुनु घेल्ल्या म्हणु दिस्ता !" आजि सामान्य जाव्नु क्रूर प्रवृत्ति अनागरिक वर्तना, मालिक–नौकर, गुरु विद्यार्थि, हांगेले भित्तरि घर्षणा आनि वैषम्य अस्सले नमनेचे विकार दिस्सुनु ऐत्तति. ताज्जे निमित्त कस्सलेंयि प्रयोजन मेळ्ना. आम्मि जीवन कर्ता आस्सुचो हो कालु प्रायः बहु क्लिष्टाचो म्हणु दिस्सुनु ऐत्ता. ते निमित्त काम करचे जाव्वो, कोरोनु घेव्चे जाव्वो, ताळ्मेरि आनि प्रितिरि कोरका जात्ता. हटापेक्षा प्रीति सर्वत्र जय हाण्णु दित्ता. क्रौर्य प्रदर्शन करचे संदर्भारि मात्र प्रदर्शन कोरका शिवायि केदनाहीं नयि. बलप्रयोगु वकदा वरि जाव्का शिवायि आहारा मण्के नयि. तो बलप्रयोगु कडेचें अस्त्र जाव्नु उपयोगु कोरका विना, प्रतिनित्य नयि इत्या म्हळयारि बल प्रयोगांतु ध्वंस कारक कीट आस्सति. ध्वंस केल्लेले निमित्त कस्सलेंयि साधिसुनु घेतले म्हण्के जायना. प्रीति आनि दया पूरा धर्माचें पंचांग. अशिश आस्तना एक अधिकारिन ताग्गेले नौकराक निर्दय जाव्नु पालन कोरका म्हणुशास्त्रांतु उल्लेख नां. एकु मुख्य मनांतु स्थिर कोरनु घेव्का कि प्रीति आनि दयेचे नेवनारि जीवन निर्वहण कर्तचि आस्ल्यारि ताज्जें भारी दुरूपयोग घेव्नु जनं आमका अपमान, अपकीर्ति आनि अपयश हाण्णु दित्तले. त्या निमित्त हे विषयांतु एक शिस्तु अगत्य जाव्नु आस्सुका. रामकृष्ण परमहंसालि सर्पाचि काणि हांगा समयोचित जाव्नास्स. जीविक बाधा दिव्चाक नज्ज म्हळ्ळलो उपदेशु मान्य करनु तो सरपु आहारा पसावत हुत्तें थाव्नु मायरि आय्यिले वेळेरि लोकानिं फात्रानि मार्नु ताक्का पीडा दित्ताचि आस्तना विषण्ण वदन करनु आशिशले सर्पाक तो गुरु येव्चर करता :– "जीविक अनावश्यक विष प्रयोगु करुंक नज्ज शिवायि तुग्गेले जीवा रक्षणे खातिर हेडो उब्बार्नु लोकांक येव्चर कोरंक कस्सलोयि निबंधुयि ना."

ते निमित्त प्रीति, दया अंतर्याभित्तरि दोवोर्नु संधभु

सन्निहित जाल्यारि बाहुयाक क्रौर्य प्रदर्शन अगत्य कांरका पडतलें हो विचारू वयलि सर्पाचि काणि स्पष्ट कर्ता.

गीतेंतु 'न मे भक्त प्रणश्यति:" म्हणु सांग्लां. चांग चांगक दुर्गति प्राप्त जायना. मालिकानि तांगेले कार्खानेंतु, दुकानांतु आनि घरकडे प्रीतिचें वातावरण निर्माण केल्यारि नौकर कार्खानें, तांगेले घरा म्हणके लेकताचि. तांगेले वयि दवर्लेलें औदार्य आनि तांका दाक्कयिलि दया पोळोन् नौकर समस्त कष्ट विसोर्नु तांगेले भित्तरि आश्शिलें सामर्थ्य आनि चेतन प्रकट कर्ताचि. मालिकानि आनि अधिकारींनि नौकरांक तांगेलेचि म्हणु समजल्यारि, नौकर मालिकांक, मालकालों समस्त स्वत्तु तांगेलो म्हणु लेक्कुनु ताज्जे रक्षणे खातिर कटिबद्ध जाव्न् राब्तले आनि सदाकाल प्रामाणिक जाव्न् काम कर्ताचि. हि प्रामाणिकता एकि अपूर्व शक्तिचि निधि जाव्नास्स.

साम्राट अशोक चक्रवर्ति कळिंग युद्धा उपरांत लक्ष लक्ष जीव नष्ट आनि रक्तपात जाल्लेलें पोळोन् पश्चात्तापु पाव्न् युद्धाक शरण येत्ता. भगवान बुद्धु अश्शि सांगता: "राज्य विस्तरण कर्तना जनांक हृदयान जयसुका विना खड्गान नयि."

गुरु नानक सांगता: "एक वेळा दाक्कयिलि दया दयावंताक खंडित परत मेळता."

हो विचारू कूलंकष मनन कर्तना आमि क्रूरि जाव्नु आम्मुचे असंगत आनि अनगत्य म्हणु दिसता. प्रीति आनि दया धर्म स्वरूप. ताज्जेनि तप्त जाव्नु आश्शिले जगत्य बहु शांत जात्ता. बैबलांतु सांगला "एक मोवाळ जाव्न् आश्शिलें उत्तर अग्नि स्वरूप जाव्नु आश्शिले कोपाक दूर कर्ता." प्रीति आनि दयेचे प्रभावा निमित्त देहाचे अंगांग आनि नरांक शांति मेळता जाल्ले निमित्त मानसिक आनि दैहिक आरोग्यायि अभिवृद्धि जात्ता.

वोल्टायर म्हळ्ळलो तत्वज्ञानि सांगता,

आमका जनांक केदनाहीं सहायु करूंक जायशिना जाल्यारयि सर्व कालारि आमि प्रीतिपूर्वक जाव्नु उल्लोयेत

# ज्ञानोदय

—श्रीमती माया शेणै

" अंधेरि स्टेशनाचे मार्यि विक्कुंक दवर्लेलें जाईचें फूल पोळोन् तुग्लो उडगासु एन्नु ताग्गेलागिं आशिशलि पूरा माळा हावें मोल्लाक घेन्नु हाळचा, वन्ये ! " म्हणु पाक्साक तिबिले पेंटा यान्नु माळा काडतची आशिशलो देरू नित्यानंदान म्हळ्ळेलि उत्रं वासरे भित्तरि जळतचि आशिशले स्ट्राचे शब्दाक नर्मदेक समची आयकि पणि. व्हयि, आनि एक हपत्या भित्तरि मालगडे सुन्नेले बाळांतीरेक मद्रासाक वच्चे तयारींरि आशिशले तिग्गेले माय्येंकायि नर्मदा आनेकई गुर्बिणि जायनि म्हणु असमाधान आशिशले निमित्त घरकडे मार्यि सुन्नांकई उत्रं कित्तुले जाव्काकि तित्तुलेंचि. नर्मदेलो बाम्मुणु अनंतरायु मेडिकल कंपेनिंतु सेल्समेन जान्नु सेखललो जाल्यारियि आत्तं तो सेल्स मेनेजर जान्नु माड्ति जाल्ला. जाल्यारियि एक्क महिनेतु आठ दिवस घरकडे आश्चें कष्ट ताणे. आजि हांगा ' कोन्फरेन्स ' जाल्यारि पाल्ले थर्यि मींटिंग – अशि ताग्गेलें कामची ताक्का वऽड. लग्न जाल्यारियि ताग्गेले जीवनांतु काई परिवर्तन जार्यनि ! घरकडे बायल म्हळ्ळेलि एकि जीवि आस्स म्हणु थांयि तांका कल्पना नामु म्हणु येच्चना नर्मदेक. लग्न जायत लेगुनु, लग्नांक वाड्डिलि कामांक वत्तलि नणंद हेमलता, देरु नित्यानंदु हान्नि कामांक क्लप्त वेळेरि वच्चे तशि तांगेलें खाण–चेवणाचि व्यवस्ता करनु घर चंदायेरि दवरचे हे तिग्गेले काम. इत्तुलें काम करूंक आपण्यान लग्न म्हळ्ळेले हे बंधनांतु पोडका आशिशलें वे ? घरा कामांक तांतुयि आम्मान घरकडे नात्तिले वेळेरि घरकडे एक जन जाव्का म्हणु कायीं हान्नि लग्न करनु घेत्तलें कि इत्तेकि. हे लग्नाचे बदलाक एक टेंपररि जनांक पुणि राब्बोनु घेव्येत आशिशलें—हें नर्मदेन अनुनित्य तिक्काचि घालचे प्रश्न. जाल्यारि अस्सले प्रश्नेकयि एक दिवसु विरामु मेळ्ळो – म्हळ्यारि घरकडे बयसुनु बयसुनु बेजारू येन्नु कडेरि तीणे कामांक वंत्त म्हण्तना तिक्का जायत म्हणु सांगिले निमित्त आत्तं ती मलाडाचे एक " प्रैव्हेट " फर्मांतु " टैपिस्ट " जव्नु नौकरि करूंक आरंभ कर्तरि आत्तं तिक्का दिवसाचे थोडे घंटे घराचे मार्यि व्यय करुंक साध्य जाल्लें.

घूवेले घरकडे थान्नु पुत्ताले घरकडे इन्स्पेक्शन एव्चो वरि एन्नु, आफिसाक वच्चे गडिबिडिक अधंधं काम करनु दवर्लेले सुन्नेकं पोळोनु मांय्येलें मोव्येंतु गांटि पडतीलि. अनंतरायाक हातु भरि सांबोळु मेळचा-रियि हे चेल्लेक नौकरिचे पिश्शें कस्सले म्हणु मांय्येंक दिस्ल्यारियि महिनेचे शुरुवेचो दिवसु " तुम्का खर्चाक आस्सो ! " म्हणु मांयचे हातांतु रुपै घालतना, पुत्ताक नात्तिलि बुद्धि सुन्नेक आस्स म्हणु दिस्सनात्तिलें ना हे एक विपयानिमित्त सुन्नेक कस्सलेंयि उल्लोचाक मांय्येंक जीब एना आशिशलि. तिक्का जाल्यारियि इत्ते ? सदानंदान आप्पयिले त्यावेळेरि मद्रासाक; विनोदिनीन, " आम्मा यो ! " म्हणु पत्र बरयिल्यारि मैसूराक; दोन्निचो पूतु जयंतान, " चेर्डाकि आराम ना, हिकायि सौख्य ना ! " म्हळ्ळे सताक हास्सनाक; माग्गिरि वाडिऽले चेर्डुवांक पोळोका; हेमलताक सोयरीक जाल्लिकी म्हणु विर्चाका—अशि ती कोणाकयि जऽड जायना तशि आशिशलि. प्राय जान्नु आसल्यारियि तो गांवु हो गांवु म्हणु उल्लासारि भोंवतची आशिशले मायंक पोळोनु, तांका आशिशलो उत्साह आपण्याक ना इत्ते ? म्हणु तिक्काचि ती प्रश्न घालतची आशिशलि. दिवस, हप्ते, महिने जान्नु वर्सं घाव्लिचि आशि जाल्यारियि यजमानाले स्वभावांतु कांयीं परिवर्तन जायनिमु म्हणु रात्रि दिवसु भग्न प्रणयिनिले स्थितितु आस्सुनु कष्ट भोग्तची आशिशलि बावडि ती नर्मदा.

स्टवा वैले आयदना थान्नु हून उद्दाक बालदेंतु ओत्तुनुं, पुसुचाक आंगसो घेव्नु " नित्यानंदा, शुरुवेक नान्नु यो; माग्गिरि वाजि ! " म्हणु तीणे सांगताना, " वीकिल " यान्नु मात्ते उब्बानुं नित्यानंदान तिक्का पोळोनु, " वन्ये, तूंवें जाई फूल माळ्ळेलें नामु ! " म्हणु म्हळ्ळे.

"तूंचि नाव्नु एव्नु वेवाक चालि !"

"कस्सल्याक ? तू माळनावें ? तुक्का जाई फूल प्रीति म्हणु हावं घेव्नु आय्यिलो . . . !"

नर्मदा उत्तर दीनां नात्तिले मार्यि गेलरेरि वच्चुनु राब्लि. जाईचो परिमळु घर मव्चे ते दोनि कूडं आश्शिले गुडांतु मर्नु गेल्ललो. मार्यि येत्तची आश्शिलो पाव्नु ! ताज्जे जतेक जोरू जाव्नु वाऽरेयि येव्नु कंडयेचें बाग्लं हेतांतु तेतांतु हाल्लुंक लाग्लिचि. तीणे बाग्लं घाल्नु घरांतु येत्ता म्हणतना, ह्यानि अपरुपा येरि निद्दोचे पल्लंगा र्यायि, उश्याक वर्गुनु इंगलिश कादंबरि वाज्जुनु वश्शीलि नणंद दिस्लि. कात्तोर्नु सानु कर्नु गांटि घाल्ललो केसु, कोडबाळे पेक्षा वऽड कान्नांक घाल्लेंलि रिंग्स, तीळो नात्तिलें बोळु जाव्नाश्शिलें निडल, रंगु लाय्यिलि नांक्ट, घरकडे येव्नु पाव्ल्यारियि ताम्डिसाणि माज्वना नात्तिलें वोटं—सान लंगा वर्यि नित्यानंदालें शर्ट घालनु कस्सलेंयि येच्चना नात्तिलें बसल्या. व्हयि ! मुंबई शहरांतु जन्माक येनु वाडिडलि चल्लि ती. एक्क कालारि बाप्पुसु व्हळ्ळो होटेल उद्यमि जव्नु आश्शिले निमित्त चेर्डुवांक विशेष कष्ट कळिनि. विद्याभ्यासु जात्तरि नोकरि मेळळेले निमित्त बप्सुलो दंघो नष्टारि गेल्यारियि कष्ट कळनि. फोर्टांतु आश्शिले एक आफीसांतु हेमलता "टौपिस्ट कम रिसेपशनिस्ट" काम कर्नु मासिक साश्श पेक्षा चड वेतन घेत्त आस्तना तिक्का मालगडे मावां लाग्गि एकु पैसो तांयि माग्चे संदार्भु ना. अशि आस्तना तिक्का कोणालोयि हंगूयी नां; अंकोयी नां ! तीणे जोळ्ळलो दुड्डू खर्चुचाक तिक्का पूरा हक्क आश्शिलो. हेमलताक आश्शिलें हें भाग्ययी आपण्याक ना ! हें गळयारि आश्शिलें मंगळसूत्र एक पटि रक्षा म्हणु दिस्ल्यारि आनि एक पटि बंधनशें दिस्तालें. पुळ्ळें चेर्डुपण, उत्रं, हें पूरा मायक जात्तचि आस्सुनु आत्तं धांमीर्य, वैराग्य चडतची आस्स म्हणु तिक्काचि दिस्लें.

"हेमा, वन्येक पत्र दिल्लेंवें ?"

बाम्मूणालें पत्र आयलां म्हणु कळळे. नर्मदेक. आत्तं तिक्का वाज्जुचाकयि कांयि उमेदि ना ! लग्न जाल्लेले पुरुषेक बामणालें पत्र म्हळयारि कशिश आस्तलेंकि म्हणु आतुरते आश्शिले वेळेरीचि तिक्का बेजार आय्यिलो. आत्तं तेंवइ दोणशीतशें. ताणे गेल्लेले गावं वास्तव्य केल्लेंलि होटेलं, मेळ्ळेले दोस्त, सैं ! आव्नु भैयिणि, माव हांगेले विषय थोडीं प्रश्नं जाल्लें ! हें एक पत्रवे ? "तं हांगेले वोट्ट हावं नत्तिले आस्स कशिश ? मेग्गेलो उडगासु पुणि एत्तकी ना ?" अस्सलें एक पुणि प्रश्न नां ! हें कोव्चाक उमेदि आस्ल्यारि नवें प्रश्न निमगुचें ?

खयिकि लग्न म्हळ्ळेले मार्केटांतु एकु चल्लो आस्स म्हणु आयकुनु कोणेकि दिल्लेलें जातक आन्नानं हाळ्ळें. सैं ! जातकाचि मेळामेळि आश्शिलि, जाल्यारि, मनांचि मेळामेळि . . . ? व्हयि, मालगडयांक चिंता जातक मेळामेळी शिवयि दुसरे कस्सल्यांतुयि नां ! बायल बाम्मुणु म्हणु तिक्का एक्क घर्कडे याव्नु आनि एक घराक वर्गावणे केल्लि.

"'सारि', वन्ये, अण्णालें तुक्का म्हणु आय्यिलें कागद हावें वाज्जुनु पळैलां. तूवें कशयि माक्का वाज्जुंक

पर्मिशन ' दिल्लां पळे ! " हेमलतेनं सांगतना नर्मदेक कांयि बेजारू जायनि. एक पटि प्रयत्नपूर्वक जाव्नु हास्लिति. पुण रसमय जाव्नु आशिलें जाल्यारि ती निष्प्राण दर्वा आशिलि. आत्त कायि तस्सलें मय्यं नां !

" वन्ये, कडेरि कस्सलें बरयिलां ' विद लव् आंड '... हेमलतान हास्य केल्लें.

" तें तूंवेंचि कूडिसलेलें ... ! " म्हणालि नर्मदा. तांका ' लव् ' म्हळलेले शब्दा अर्थु गोत्तसकि नांकि ! म्हणु तिज्जे इल्लाक तीणे सांग्लें. एकु दिवसु पुणि बाम्मणान तिक्का कस्सलें जायि म्हणु निम्गिनि ! कस्सलेंयि हाणु दीनि. तेंचि तो देरु नित्यानंदान वन्येक प्रीति म्हणु जाई फूल घेव्नु आय्यिलो तेची अण्णालो भाव् ! जाल्यारियि तम्माक आशिशलि तिळुवळिका अण्णंक ना. जाल्यारि, ताणे हाळळेलें फूल कशि माळचें ? आजि फूल, फल्ले आन्येक ! स्वता हातु धरलले बामणक नाक्का, माग्गिरि हाक्का कस्सल्याक ?

" वन्यें, जाई फूल माळ्नावें ?" तोचि प्रश्नो.

" व्हयें कस्सल्याक. उपद्रव दित्ता ? हावें माळधारि इत्तें माळना नत्तिल्यारि इत्तें ? "

" ओ ! आत्तं कळ्ळें, तूवें माळ्ळेलें पोळोचाक अण्णा घरकडे ना म्हणुवे ? "

" तशिं कायि नां ! "

"आत्तं रात्रि जालि. आत्तं काण्णु ' फिरज्जा ' भितरि दवरि. फाल्ले आफिसाक वत्तनां माळ्नु घे ! "

" वयरे, घरांतु भित्तरि एत लेगुनु कस्सलि ती फुल्लाचि पंचादिका ? काण्णु देवाले फटाक घालि पोळोयां ! मायंगेलो उच्च स्वरु आयकुनु नर्मदेक कस्सलेंकि जाल्लें. मांयेन घरकडे आस्तना नर्मदेचान एक कामयी जायना, तीणे केल्लेलें पळयिलें, दवर्लेलें उलयिलें खयि चूकि जात्तकी म्हणु मंयतिक्का. एकेक फटि वातावरण इत्तुलें गंभीर जात्तकि एक चेडुं पुणि आशिलें जाल्यारि हे माल्गडयाले कडुसाणि मध्येंतु सविहास्यानि हृदय आनि मनं एक करुंक चेडुं शिवायि दुसरे कोणचान साध्य ? जाल्यारि ते विषयांतूयि तिक्का भाग्य ना ! लग्न जाव्नु वर्सं चारि जाल्लिंचि. तो विषयु उल्लोचो जाल्यारियि कशि ? ' ' बांम्बे डायिंग ' पडदेचे म.गशि निद्लेले भाव्येंक, ना गॅलरीर निद्लेले देरांक आयकि पडत की म्हणु बाम्मणा लाग्गि रात्रि वेळेरि दोनि उत्रं घुट्टारि उल्लोचाक नां !

घरकडे तांग्नि आत्तं चारि जनं जोडतची आस्सचि. तीनीं रूमं आशिशलें एक चिकेचि व्हळ्ळें ' फ्लाट ' घेयां म्हणु बाव्बांवंनि आलोचन केल्यारियि, ' मेग्गेलो बाम्मणु हेंचि घरकडे उन्नत स्थितिक एव्नु हेंचि घरकडे मृत्यु जाल्लेलिंचि जाल्ले निमित्त हें घर सोडुंक नज्ज ! ' म्हणु माय्येन म्हणतरी ती आलोचन थयिंचि राब्बिलि.

आव्सुक विरोध जाव्नु कस्सलेंयि करना म्हणु बामणा वयरि नर्मदेक आनेकयि असमाधान आशिशलें. आव्सुन सांगिले सर्व उत्रांकयि मात्तें हाल्लोनु, ' हे वल्येक माळा घालि ! ' आशिं सांगुनु हात्तांतु माळा दिल्लेले निमित्त कि इत्तेकि हम्नि मेग्गेले गळचाक माळा घालि कि दकि शिवायि स्वतः बुद्धियेन नहीं म्हणु तिक्का दिस्तची आशिशलें.

गावां थाव्नु भैणिलें कागद येत्तचि आशिशलें :— " तुक्का बंबईक वत्तरि आमगेलो उडगासुनां. तूवें जाव्का जाल्लेलि कापड घेव्नु नेस्सुयेत, सिनेम पोळोयेत, नट नटींक पोळोयेत, शूटिंग पोळोयेत ! आत्तं कशि तुक्का नौकरियि मेळचा तूं आत्तां राणि ... ! " अशिं पत्रं येत्तना तें वाज्जुनु तीणे बरयिलें कस्सलेंयि आपण्याक अन्वयिसना म्हणु तिक्का प्रत्युत्तर दिव्चेंयि बंद केल्लां !

दोनि दिवसाचे फूडे आफिसाचे येड्रासाक भैणिलें पत्र आय्यिलें पोळोनु, वाज्जुनु तिक्का भारी आश्चर्य कारण ताज्जेरि आक्का नर्मदेक दुसुनु भावजीक प्रशंसा भारि केल्लेलि तीणे ! :—

" आक्का तूं स्वार्थि मुगो ! भावजि गावांक एत्त म्हणु कळनुयि तूवें माक्का एक दोनि इम्पोर्टेड किरगि पेटयिनि. आस्सो ! ताग्गेले वोट्टु पुणि तूवें एक हप्ते मट्टाक येव्येत आशिशलें.

ओ ! भावजी कितुलो चांगु— " रियलि, ऐ . लैक हिम ! " हावं, अण्णा, आनि भावजि कर्नु सिनेमाक गेल्लेलिंचि. तुक्का १त्र बोरोचें आस्ल्यारि आफिसाचे

एड्रेस्साक बर्यि म्हणु ताणेंचि माक्का तुग्गेलो एड्रेस्सु दिल्लो. तुग्गेलो तो देरु, 'पोंगा पंडितु' कोणतो, नित्यु की मित्यु की तोवयि भावाजींक्षर्ं जांगु आस्स जाल्यारि मेग्गेले खातिर सोयरिक कर्ता जाल्यारि हावं तुक्का आम्गले कडेन 'ब्रोकरेज" दिवयता आशिशलि. हावं तुग्गेलि जाव जाव्नु येन्वें तुक्का खुशि आस्सवे? तुग्गेले देराक मेग्गेले वर्यि खुशि आस्सवे कस्सलें म्हणु माक्का बरयि. तुग्गेलें कागद येव्वो थायिं माक्का उपवासु. (बरे आर्ध डजन केळें आनि दोनि ग्लास दूध मात्र पीव्नु) तुग्गेलिनोगा मैणि—नहीं जाव—सु—नंदा'

पिश्शि चल्लि—कस्कसलें बरैलों सध्याक हीं सर्व पिश्शालि उत्रंशीं घराचे एड्रेस्साक बरैना नात्तिलें चांग केल्लें. नहीं नात्तिल्यारि, माई, हेमलता नित्यानंदु, हान्नि पूरा वाज्जुनु कस्सलें म्हणु लेकताचि आश्शिलि कि इत्तेकि. हांका इत्तुलें प्रशंसा करनु बोरोचाक कारण इत्तें? सर्व जनई चांगु चांगु म्हणचे वामणाक अर्थु करनु घेव्वाक माक्का मात्र जायनिवें? अश्शि कस्सल्याक? मनांतु भित्तरि प्रीति आस्ल्यारियि मायि उत्रानि दाकोनु दिवच्याक कळ्नावें? कि मैत्रिणिलें बामणंकं पोळोनु तुलना कर्नु हांगेले विषयु अश्शि अभिप्रायु आयलावे? तान्नि उल्लैनाचि म्हणु हांवेंचि दूर रान्ने सम्मवे? नहीं हांवेयि कस्सलियि चूकि बिनि केल्लेलि आस्सकीं?

आठ दिवसानि नर्मदा मनांतूचि चडपडत वी आश्शिलि. जेवणाक बस्ल्यारि जेवण सेरवना. रात्रिचें नीदयी सम्म नां. मात्या घुवळियि शूरु जाल्या. माय्येंक कळना नात्तिलें दोनि लिंबिये उदकांतु घाल्नु रात्रि निद्रतना पीव्नुयि पळया!

नव्वा दिवसु नर्मदेन आफिसा थाव्नु परत एत्तना घरांतुलें वातावरणची परिवर्तन जाव्नाश्शिलें. उल्लसित हासु, उत्रं हाज्जे जतेक, हांवयि आस्स म्हणु 'रेडियो' आवाज कर्तचीं आश्शिलो. घा निमिषा भित्तरि नर्मदेक विषयु कस्सलो म्हणु कळ्ळो. हेमलताक चल्लो पोळोनु अनंतरायु सोयरिक घट्ट करनूची आय्यिलो. एअर इंडियांनु कामांनु इंजनियर जाव्नाश्शिलो तो, भास्करु हेमलताक तिग्गेले आफिसांतु भेट्टनु तिक्का मेच्चनु

वान्कि जाका म्हणतालो. "आम्मान मद्रासाक वच्चे" पुराण हें नव्येक भर्तार घालोंच 'शुभस्य शीघ्रं' म्हणु हास्तनी उल्लोनु बशिले अनंत रायाक पळैतना नर्मदेक तो कोणकी नवोचि मनुष्य जाव्नु दिस्लो. ते दिसु हास्तची आशिशलें ताग्गेलें तोंड तिक्का अत्याकर्षक जाव्नु दिस्सुकाकि ?

"आमां हेमलतालें लग्न जाल्लेंकि आय्यिल्यालें ओट्ट् तूवें मद्रासाक वच्चुनु थयि तूवें बाळांतिरो करनु सींदा परत एक्का इत्याक म्हळथारि . . . "

बाब्बाव तांचे तांचे भित्तरि कस्सलेंकि उल्लैलेचि:

"कस्सलें तें म्हणु वग्गि सांग ! " तिग्गेलें दोळे नर्मदेले पोट्टा ते तांतु गेल्लेचि उहूँ ! थयि कस्सलेंयि सूचना नां. फुल्लैलेले वरि आशिशलें मायंगेले तोंड वापास बिग्दलें.

"नर्मदेलि मैणि सुनंदाक आमगेले नित्यानंदाक हाडका म्हणु माक्का भारी मन आस्स. हावं हे पटि गावांक वच्चुनु मावांले घरकडे एकु हप्तो आशिशलो. सुनंदा भारी बुद्धंति चलि. आमगेले नित्युक सांगिलि जोडि गावांतु तांगेलें मेडिकल शाप आस्स. हांगा थाव्नु गावांक बदलि घेव्नु गावांतु राब्चाक मनं जाल्लां माक्का. विंगड घर मेळो थायि नित्यु ताग्गेले वायलेक घेव्नु हेचि घरकडे राब्बो. हावं गावांतु एक भाडेक नहीं वे सान मट्टाक चाळीस पंच्चेचाळीस हजाराक मेळथारि घर पळयाचि म्हणु मावांक सांगुनु आयला. माकायि गावं गावं मोव्नु पूरो जाल्लें. मेग्गेले हे वृत्तिन हाथु धर्लेलेकयि सुख नां. मेळ्ळे मेळ्ळेले गांवचे उद्दाक आनि आहारु खाव्नु बेजारू आयला. अशि जाव्नु हावें हो निर्धारु केल्ला. तुक्का तेंवयि मुंबई पेक्षा मैसूरा वयरि इष्ट म्हणु माक्का गेत्तस. "

शरदामायि ओंट दोनि करनां नात्तिलें आयकतची आशिशलि. हें पूरा बायलेले आव्वु बाप्पुसाले उपदेशारि आस्सुंक पूरो म्हणु तिक्का एक पटि दिस्ल्यारियि निर्धार पूरित स्वरान अनंतरायानं सांगतना हें कालि पर्यरि जाल्लेलि आलोचन नहीं म्हणु लेक्कुका जाल्लें. इत्तुले दिवसु तीणे सांगचे आनि पुत्तान मौनारि मात्ते हाल्लोनु ताज्जे प्रकार चलचे आशिशलें जाल्यारि आत्तं पुतान शुखेचि पटि सांगना नात्तिले निर्धार करनु आयला. आत्तं आपण्यान कस्सलेंयि सांगल्यारियि ताणे आयकुचें कष्ट. अशिश शुखेचें पटि सोलु ओपवुनु, "तुक्का खूशि आशिशले तशिश करि ! " म्हणु मित्तरि चमकलि शरदामाई !

दोळ्यानीचि संकेत दीव्नु अनंतरायान गेलरीक नर्मदेक आप्पैलें. ताग्गेले श्वासाचि हुन्साणि तिग्गेले गाल्लाक लागतची आशिशलि. अपरिचित व्यक्तिन हातु धरल्यावरि तिक्का हृदयांतु भय्यं केल्लें.

"निम्मि, इत्तुले दिवस मेग्गेले दोळ्या येद्राक फोडदो आशिशलो. आत्तं तो फोडदो नां. ताक्का कारण कस्सलें गोत्तसवे ? सांगल्यारि तूं नमगशि नां ! कारण तुग्गेलि आव्वु आनि बाप्पुसु. हे प्रायेरि तान्नि करचि सरस संभाषणा, प्रीतिपूर्वक जीवनक्रमु पोळेनु आठ दिवसा भित्तरि माक्का आठ वर्सांतु मेळना नात्तिलो अनुभवु मेळ्ळो. जीवनु म्हयारि कस्सलें म्हणु माक्का आत्तां कळ्ळें. तस्सले रसमय वातावरणांतु आशिशलि तुक्का इत्तुले काळ सम्म पळैनां नात्तिल्याक क्षमा करि . . . ! " ताणे तिक्का लाग्गि तांडलि ! नर्मदा एक क्षण ताग्गेले बहुबंधनातु कैदि जालि, जाल्यारि दुसरे क्षणांतु तिक्का वंकुंक जाल्ले ! ताग्गेले हात सोडवानु तीं बात रुमांक धाव्लि ! तीणे वंकतना शारदा मांय्येले दोळ्यांतु चोराक धरलेके विजय दिस्सुनु आयलें !

"वन्ये, जाई फूल तुग्गेलि वाट पळैतची आस्स !" म्हणु सांगुंक आय्यिले नित्यानंदान तीणे वंकचे पोळेनु भीव्नु "आम्मा, वन्नि वंकतची अस्स. वग्गि यो ! ' म्हणु सांगले.

शरदामाई भीनि.

"खेल्लेलें चड जाल्यारि कित्तुले दिवसु म्हणु भित्तरि दवर्नु घेव्चा सह्य ? आनि एक दोनि महिने अशिशचि खेल्लेलें पूरा वंकुंक जात्ता ! " म्हणु शरदा मांयंयेन हास्तचि सांगतना बाब्बांव तोंड तोंड पोळोचाक लागले !



# भारतीय नारीन चम्कुनु आंइलि वाट

श्रीमती मनोरमा यस्. पै

"पेण्णु पेण्णेदेके बीळु गळेवरू कण्णु काणद गाविलरु !" म्हणु कन्नड भाषेचे सरस साहित्याचे वर देवते संचिय होन्नम्मान तिग्गेले "हदिबदेय धर्म" म्हळ्ळेले साहित्य कृतिन्तु समाजाचे अंधश्रद्धेचे व्यंग्य केल्लां. स्त्री सहज जाव्नाश्शिलें नय-विनय स्नेह सौहार्द, विश्वास–करूण, आदर–आतिथ्य हें स्त्रीलें जीवन म्हळ्ळेले लते वयरि फुल्लेलें कुसुमांचे अर्थु कळना नात्तिले थोडे व्यक्तिनिं सर्व स्त्रींक निंदा केल्लेलि आसल्यारि आश्चर्य कयि ना. जाल्यारि अस्सलि पृवृत्तिचे म्रूण कात्तोर्नु घालचे खतिरकी अशिंश म्हळचा-वरि थंतयि थंतयि बायल मनिषं प्रकाशा क आययीलियि आस्सचि. जगत्याचे सृष्टि निर्माणा काम अवलोकन केल्यारियि पृकृति–पुरुषां भीत्तरि आमका वैषम्य दिस्सुनु एना. दैनंदिन जीवन काण्णु पळैल्यारि स्त्री पतिव्रत जाव्नु दाक्कयिलि पवित्रता, प्रेम जीवनांतु दाक्कयिलि सरसता, क्षात्र जीवनांतु दाक्कयिले क्षत्रियता धार्मिक जीवनांतु दाक्कयिलि धर्मश्राद्धा—हें सर्व भारतीय काव्य, पुराण इतिहासांतु सुरम्य कथानक जाव्नास्सचि.

स्त्री परमात्मालि माया शक्ति रुप म्हण्येत. तिग्गेलें चैतन्यची माया. लोक नायकि जाव्नु, सृष्टिकर्ते जाव्नु सकललोका जननि जाव्नु, सकल लोकाक पावनमयि जाव्नु आपण्यालें अंश हे लोकांचे सर्व स्त्रींतु दवर्ला ते जगदंबेन म्हणु सांगुयेत.

"मात्र देवोभव ! पित्र देवो भव ! आचार्य देवो भव !" म्हळ्ळेले हे वेऽद वाक्य पळैल्यारियि कर्म भूमितु जन्म दीव्नु भोग भूमि जाव्नु आश्शिले स्वर्गाक वव्नुका जाल्यारियि गुरवेक आव्सुलि कृपा जाव्का आमगेले पुराणं काण्णू पळैल्यारियि तांतु स्त्रीयालें पातिवृत्याचें विषय प्रशंसा आस्स शिवायि पुरुष शक्तिचि प्रशंसा आधिक ना. कार्यांतु दासि, करणांतु मंत्रि, रुपांतु लक्ष्मी, क्षमेंतु धरित्रि, भोजेंतु माता आनि शयनांतु वेश्या अस्सले सः गुणयुक्त जाव्नु आश्शिलि कुल धर्म पत्रि म्होणेनु घेत्तिलि सति सावित्रिन आयुष्य मर्लेले तिग्गेले बाम्णालों प्राणु काल मैरवाले हात्तांतु याव्नु परत घेत्तिलें स्त्री शक्तिन शिवाई पुरुष शक्तिन नहीं. अस्सलि स्त्री शक्तिचि वर्णना कशिं करचें ? निज्जाव्नु जाल्यारि तिक्का प्रेम योगिनि म्हणु म्होण्येत.

आम्गेलें महा काव्य म्हणोनुं घेत्तिलें रामायण – महाभारत म्हळ्यारि कस्सलें ? बरे ऽ युद्धा वर्णसाणि मात्रवे ? खंडितची नहीं. सीता देविले सात्विक गुणांक धक्का बश्शिलें परिणाम जाव्नु राम-रावण युद्ध जाल्लें. पंचवल्लभेलें मानभंग जाल्लेले निमित्त दुर्योधनालें उरुभंग जाल्लें. महापतिव्रतेंलें पातिव्रत्याचें महिमेंचि वाल्मीकि आनि व्यास महाऋषींक स्पूर्तीदायक जाल्लें. वैदिक साहित्याचि शिरोमणि गार्गिलें पांण्डित्याक कोऽण मात्तें बागसिना ? याज्ञवल्क्यालि बायल जाव्नु ब्रम्ह वादिनि जाल्लेलि मैत्रेयीनं जग-त्याकची ज्ञान दिल्लां. अगस्थ्य मुनिलि धर्मपत्नि जाव्नु आश्शिलि लोपामुद्रा, तिग्गेलें पातिव्रत्यान, संयमान आनि तपस्यान लोकप्रसिद्ध जालिल. अत्रि मुनिलि भार्या जाव्नु आश्शिलि अनुसुयेनं ब्रम्ह, विष्णु, महेश्वरांक थांयि चेर्डुवं करनु पाळ्यातुं घालनु जोयि काळिळ.

आम्मि आनेकयि चिकेचि मुकारि गेल्यारि आमका अबला म्होणेनु घेत्तिलि स्त्रीचि नायकि जाव्नु रणदेवतेक तिगेलो जीवुदान करुंक भार्य सर्लेलें दिसुनु एत्ता. तिगेलो तेदनाचे शौर्य शेंभरि पुरुष सिंहापेक्षा चऽड

आशिशलें म्हणु सांगुक अड्ड नां. कितूर चन्नम्मा. बेळवडि मल्लम्मा. अहल्याबाई हाळकर. राणि अब्बक्का झान्सि लक्ष्मीबाई, ओनकेय ओबव्वा अस्सलिं नारीमणि साक्षि जाव्नु आस्सचि. हांन्नि केदनाही अजर, आनि अमर. हांका कोयति कात्तरीना, उद्दाक तिबशिना, उज्जो जळैनां; हांका सुखः दुःखाचो संबदु ना. मानापमानानि मनं विचलित जायना. तांगेलि शक्ति सानि जाल्यारियि, धैर्य वऽड जाल्लेले निमित्त रणचंडी-वरि युद्ध करनु वीर स्वर्ग पाव्विलिं तीं.

भक्ति विषयु काळयारियि देवालि कृपाघेत्तिलि अनेक महिळामणि आस्सचि. संतिणि मीराबाई, जनाबाई, सखूबाई, गोमाबाई हांगेले भक्ति पूर्वक अभंग आम्मि अवलोकन कोरयेत. कर्नाटकाचि अक्क महादेवि चन्न मल्लिकार्जुनूंचि तिग्गेलो पतिदेवु म्हणु, मांगल्य बांदिले बाम्णांक सोण्णु भवबंदना यान्नु मुक्ति पाव्नु दैव सानिध्य घेत्तिलि संतिणि म्हणु सांगु येत. मोक्ष साधनेचे पवित्र कामांतु तांगेले ध्येयधोरणेक कटंक आय्यिले वेळेरि देहत्याग कल्लेले महासतीकायि हे देशांतु कामी ऊणे ना.

काल चक्र घुंवतची आस्सुनु आजि जगत्य नवीन ते तेतांतु तीव्र गतिरि वत्तचि आस्स. "Old order changeth yielding place to new" कालारि बायलांक शिक्षण यांयि निषिद्ध जाव्नु तांगेलो फूडे रांदपाकूडाचे चार वणति मध्यमात्र सीमित जाव्नु आस्ल्यारियि तो कालु आत्तं ना. आजि विद्या रंगांतु बायलं भारी मुकारि पाव्ल्यांचि पाश्चात्य नहीं वें पौरात्य हे दोन्नियि गोलार्धान्तु स्त्री शिक्षणांक समानावकाशु एक्क कालारि नात्तिलो. १,२० वर्ष थांयि ओक्सफर्ड विश्वविद्यालयांतु स्त्रींक पदवीदान दीनांचि आशिशलिं. १८८८ थांयि स्त्रींक वैद्यकिय वृत्तीपर शिक्षण दिव्चाक कानूनान सम्मति दीनिं, इंगलेंडा अस्सले पुरोगामि देशांतु ! जाल्यारि आजि परिस्थिति बदल्या. आजि स्त्रींनी प्रति एक विषयांतु प्रगति पाव्नु, तांगेले अंतःस्सत्व दाक्कयिलें आस्स. आयचि स्त्री म्हळचारि

प्रीतिचि धूव. ममतेचि वायल, महृदयि सहोदरि आनि वात्सल्याचि आव्सु जाव्नाश्शिलि वीर वनिता. ती आजि पूरा क्षेत्रातंयि कलाकार जाव्न् आस्सून् ख्यातिवंत जाल्या.

साधारण आठरा शतमानं थायिं स्त्रीयलि स्थितिगति सम्म नात्तलि. तिक्का आस्तिन्तु हक्क नात्तिलें. सती पद्धतीन ती वंचित जाव्नु आश्शिलि. विद्येंतु विमुख जाल्लेलि ती केदनाही मात्तें पंदाक घालनु कालक्षेप कर्तची आश्शिलि. जाल्यारि आजि ती सकल अग्नि परीक्षेंतु उत्तीर्ण जाल्या. आनि लोकोपयोगि कार्य कलापांतु ती आजि मग्न जाल्या. आमगेले देशांतु पळैल्यारि, दयानंद सरस्वति, राजा राम मोहन राय विलियम बेंटिक–अस्सले समाज सुधारकाले विषय-धारेनि आजि आमगेले देशांतु समाजाचे बंधना थाव्नु भार्य आयिल्या तीं. आमगेले देशाचे सरकारानंयि हेंदिगेंतु अनेक सुधारण केल्लेलि आस्सुनु आजि तिक्का सामाजिक, राजकीय, आनि आर्थिक क्षेत्रांतु समानावकाशु मेळ्ळलो आस्स. तिक्का आजि स्वातंत्र्य मेळ्ळां जाल्यारियि ती हिन्दू संस्कृतिक विरोध जाव्नु येद्धाळु थायि वच्चनि आनि भविष्यांतूयि ती वच्चना. नैतिक जाव्नु ती तिग्गेले पाविश्याक कळंक एना तश्शि चलतची आस्स. सत्या, धर्मु, न्याय नीतिरि चलनु ती धर्मानि अर्थु, अर्थारि कामना करनु मोक्ष साधना करता.

भारतीय संस्कृतिचो दिव्वो धर्नु समाज सेवेंतु मुकारि वत्ता जाल्यारियि, भारताचे स्त्रीन तिग्गेले गृहकृत्या काम निर्लक्षकरनि. चेर्डुवांक अलक्ष करना नात्तिलें मालगडचाले सेवेंतुयि ती मात्ति मरनी. तिग्गेलें आद्य कर्तव्य जाव्नाश्शिलें शिशुपालना, मालगडचालि सेवा, बाम्णालि प्रीति निर्लक्ष करना नात्तिलें, कायेन वाचा मनसा घोळतची आस्स. समयावकाशु मेळ्ळेले तश्शि ती समाज सेवायि कर्तची आस्स. शक्ति मिरवून भक्ति म्हळ्ळयावरि तीं पूरा जनालें उन्नतीक शृमु पाव्तची आस्स.

आमगेले देशाचे उज्वल चरित्रा मनांतु दोवोर्नु ती समाजाचे सेवा करनु सर्वालें प्रीतिपात्र जाव्नास्स तिग्गेलो विषय आनि कस्सलें सांगुयेत? आमगेले देशाचे जीवाळ जाव्नु आश्शिलि तिक्का–तिग्गेले त्याग भावनेचे सेवेक सहस्त्र प्रणम! समग्र भारताचें कीर्ती नभोमंडलाक पावोचाक भारताचे सर्व स्त्रीनि मुकारि एव्का. आमगेलि पुळिळ परंपरा मोण्ण नात्तिलें पुळघालें, धैर्य नवचेतन घेव्नु तांगेले नरनाडितु भोर्नु साकार जाव्वो आनि भारताचे स्त्रीन धर्लेलि वाट प्रपंचाकचि मार्गदर्शन करो!

## वाईटाली संगती वाईटी

श्री. ए. उमेश पंडित

एक गांवात एक मनिष्यु राबता आशिलो तो मनिषु भारी बूदोंत आशिलो. ताका एक चेल्लो आशिलो. तो दिसचाक चंदू, थोरु आशिलो, पण् तागेळे नशिब लायक ना आशिले. त्या निमगीती ताणे वाईट दोस्तालागी मैत्री केल्ली. ताणे सिगरेट पिवचाक सुरु केले, सद सोवे दिवचाक सुरु केले.

पण ते पुरा पोळोनु तागेल आनाक मस्त दुःख जाल्ले. तागेल आनानी त्यागेले पूता सांगले की वाईटाली संगती सोडी. पण त्या चेळचांनी तागेले आनाळे उत्र कानावरनी.

त्याकातीरी तागेल आनानी एक प्लेनं केल्ले. तागेल आनानी एक सकाणी दोनी कांटि हाळ्ळी, एक कांटो भित्तरी लायक आंबो आणि एक कांटी भित्तरी वाईट आंबो आसिलो. चाळचानी येवचे भित्तरी तागेले आनांनी एक कांटी भित्तरी लायक आंबो दवरलो आणि एक कांटी भितरी तागेल आनांनी वाईट आंब्या ओहु पांच सहू लायक आंबो दवरले.

हेरदुसु तागेल आनांनी तागेल पुताक दोन्ही कांटी आढुंक सांगले. पुतानी दोन्ही कांटी आणु आना येदराक दवरली. आनानी एक कांटि उदारी केली त्या कांटि भित्तरि लायक, चंदु आंबो आसिलो. आनेका कांटि उदारी केली तांतू भित्तरी पुरा आंबे वाईट जालेले चेल्यांन बोब मारचा सुर केले को वाईट आंबो . . . .

त्या खातिरि तागेल आनानी म्हळ्ळे की लायक आंब्या भितरी पकनी एक आंबो वाईट गाल्लो की पुरा आंबे वाईट जाता तसोची वाईट दोस्तांनी पुरा दोस्त वाईट जात तशीच तू जाल्ला.

चेल्ल्यांक तागेल चुकी कळ्ळी थ ताणे त्या दोस्तांली संगती सोडि्ळ.

(संग्रह)

# वेद वाङ्मय आनि ताजिव्याप्ति

लेखक– विद्याभूषण–वेदरत्न– रा. अ. भट्ट काशीकार. होन्नावर



वेद वाङमय भारी व्यापक आनि महत्त्व-पूर्ण जावनास्स, ताज्यो शाखोपशाखांचो स्थूल परिचयु पैले आम्मीकोर्नु घेवका.

वेदम्हळयारि कित्तेंम्हळेले सुर्वेक जाणयां, वेद शब्दाचें अर्थनिर्वच आमगेल्या प्राचीन जनांनि अनेक रीतीरि केल्या. वेद म्हळळो शब्दु 'विद' जाणचें म्हळचा धातू पासून आय्ला, गौणार्थान ज्ञान प्रतिपादक ग्रंथ म्होणु अर्थु हे शब्दाक एता. वेदाचें लक्षण समजावनु सांगचे कष्ट.सायणाचार्यानिता गेल्या वेदमाष्य भूमिकेंतू वेदलक्षण स्पष्ट सांगचे कष्ट म्हळळो पूर्वपक्षुकोर्नु ताक्का उत्तररूप-जावूनु मंत्र ब्राम्हण समुदायूचि वेद म्हळळे ल्या सिद्धांताक आयला :–

" ननुवेद एव तावन्नास्ति, कुतसादवान्तर विशेषः ऋग्वेदः ? तथापि को ऽ यं वंदोनाम ? नहितत्र लक्षणम प्रमाणंवा अस्ति . . .तस्मा-न्नस्ति किञ्चिद्वेदस्य लक्षणम । " म्होणु पूर्व पक्षोपन्यासु कोर्नु–" मन्त्र ब्राम्हणात्मकत्वं तावददुष्टं लक्षणम । " अतएव आपसाम्बो यज्ञ परिभाषायाम एवमाह :–" मन्त्र ब्राम्हण योर्वेदनामवेयय् " इति. तस्माल्लक्षण प्रमाण-सिद्धोवेदः " म्हळ्ळो सिद्धान्त केल्ला. (ऋग्वेदमाष्यभूमिका) सकल शास्त्रांचे लक्ष्य ज्ञानचि जावूनास्तना वेदांचे वैशिष्ट्य कित्तें म्हळेले माघवाचार्यानं वेदार्थ प्रकाशां तु " इष्ट प्राप्त्यनिष्ट परिहारयोः अलौकिक मुपायं योग्रंथः वेदयनि स वेदः । अलौकिक पदेन प्रत्यक्षानुमानंत्यावर्त्यते ॥ " म्होणु सांगताति.

संसार म्हळचा जनन मरणाच्या चक्र परिवर्तनाचे अनिष्ट परिहार कोर्नु परब्रम्ह प्राप्तिम्हळ्ळेले इष्ट प्राप्ती खातीरि मानव कोटीन अनुसरसुकाजालेले विधान दाकोनु दिवचेचि वेद. जाल्ले निमित्त वेद शब्दु ज्ञान सामान्याक अन्वयिनाशि ब्रम्हज्ञान प्रति पादकचि जावूनास्स. भट्ट भास्करान 'विघते लभ्यते अनेन इतिवेदः ' ह्योणु सांगूनु ब्रम्ह-साक्षात्कारू हाज्जे निमित्तींची आस्स जात्तलो म्होणु सांगल्यां. " विदन्ति धर्मादिकं अनेन इतिवेदः " धर्मु वगैरे हाज्जे निमित्ति समजता म्होणु हे वेद म्होणु सर्वानन्दान, " विदन्त्यनेन धर्मवेदः: " म्होणु हेमचन्द्रान, " विदन्त्यनन्य प्रमाण वेद्यं धर्म लक्षणम् अस्मात् इति वेदः म्होणु मेधातिथीन, " निःश्रेयस करोति कर्माणि आवेदयन्तीतिवेदाः " म्होणु कपर्दी स्वामीन " सर्वाऋच इति तग्दहणेन ऋचां विशेषतो भगवत्परत्वं जायते । विष्णु पराएव सर्वे वेदाः । प्रति मन्त्राणामर्थत्रयं वर्णितम् । सर्ववेदानां विष्णुमारभ्य शक्रान्ता देवताः चतुर्विधा ऋषयः छन्दो देवता इत्यादयो ऽपूर्वाः विषमा हृदयग्ङ. मा मासन्ते । तत्र " यथैव्याग्न्यादयः शब्दाः प्रवर्तन्तेजनार्दने । तथा निरुक्ति वक्ष्यामो ज्ञानिनां ज्ञान सिद्धये ॥ 'सर्वे वेदा यत्पदमामनन्ति ' इत्यादी वचनैः प्रमाणीकृत्यं सर्वे वेदाः विष्णु पराएवं ' इतिश्रीमन्मध्वमाष्ये । अशि श्रीमन्मध्वा-चार्यांनीं वेद सगळे विष्णु परचिम्होणु प्रति-पादन केल्यं : सगळचो सत्य विद्यो ज्यापासून प्राप्तकोर्नु घेतातिकीं तेचि वेद म्होणु आधुनिक

दयानन्द सरस्वतीनी ' वदन्ति जानन्ति विद्यते भवन्ति, विन्दन्ति अथवा विन्दन्ते लभन्ते, विन्दन्ति विचारयन्ति सर्वे मनुष्याः सर्वा सत्यविद्याः यैः येषुव, तथा विद्वांसश्च भवति ते वेदाः:" म्होणु वेदार्थु विरूपण केल्ला. वेदांतु गूढ जावनु ब्रम्हज्ञान भरल्या म्हळ्ळे सुचयल्या :– "सतोनूनं कवयः संशिशीत वाशीभिर्याभिरमृताय तक्षथ। विद्वांसः पदा गुह्यानिकर्तन येन देसासो अमृतत्व मानशुः॥"

(ऋ. सं. १०।५३।१०)

हे वेद श्रवण मूलक लभ्य जाल्ले निमित्तीं श्रुतिम्होणु प्रसिद्ध जाल्लेति. हे स्वयं सिद्ध, नित्य, अपौरुषेय जावनु आसचो विषयु आमगेल्या संप्रदाय सिद्ध ऋषि मुनींनी तांग तांगेल्या तपोबलान हे ततदानु पूर्व विशिष्ट जावनूचि साक्षात्कारु कोर्नु घेतले जाल्याति म्होणु सांगल्यां :–

" युगान्तेंति हतान्वेदान् सेतिहासान्महर्षयः लेभिरे तपसा पूर्व अनुज्ञाता स्वयम्भुवा॥"

(महाभारत)

त्या निमित्तींचि तांका मन्त्रद्रष्टार म्हणताति. साक्षात्कार पाविल्या ऋषीं-कडच्यान शिष्योपाध्यायक जावनु इतरांनी हे ऐकूनु ग्रहणं केल्ले म्होणु ते ' श्रुतर्षि ' जाल्ले. मुक्कावेळें जनांग तितलें तपःशक्ति सामर्थ्य पावनाशिलेनिमित्तीं तांगेल्या उप-कातीरी सगळे मन्त्र वट्टु कोर्नुताजे विभजन केल्ले. सर्वांतु पैलें वेदु एकूचि आशिल्लो, त्या कालारि वाग्व्यवहारातचि जनांगाथावनु जनांगाक हो धार ओतून दिल्लो. नंतर तो अध्ययनकोर्च्याक अशक्य जालेल्यान यागांतु होता, उग्दाता, अध्वर्यु, अनि ब्रम्हा म्हळेल्या चारि ऋत्विजानि उपयोगु कोरचो मंत्र विभाग क्रमाक अनसरसूनु चारभागनिर्माण जाल्ले म्हणु सांगताति "सोऽयमेको यथा वेदस्तरुस्तेन पृथकृतः।

चतुर्धाथ ततोजात वेद पादप काननम् ॥

(विष्णु पुराण. १११।४।१५)

एक्कीचि जावनाशिलिवेदराशि चारि भाग कोर्नु विगडसिलेले वेदव्यासान आम-गेल्या संप्रदायाक अनसरसूनु आम्मि समजतां तिकी— "विव्यास वेदान्यस्मात्सः वेदव्यास इतीरितः।" ऋग्यजुः सामाथर्ववेदांतु ऋग्वेद संहिता भारी प्राचीन जावनास्स म्होणु आधुनिक विमर्शकांलो अभिप्रायु. ऋक्संहितेक साबारि प्राधान्य भारी माक्शेन घोर्नु आम-गेल्या पूर्वजांनि दिल्यां. वेदम्होणच्या वेळारि पैले ऋग्वेदाचो उल्लेखु येता

(१) तेस्माद्यज्ञात्सर्व हुतऋचः सामानि जज्ञिरे।" (पुन्सू)

(२) "ऋचः सामानि छन्दांसि पुराणं यजुषा सह। उच्छिष्टाज्जज्ञिरे सर्वे दिवि देवादि निश्चितः॥ (अर्थवसं. ११।७।२४)

यजुर्वेदु सामवेदु सगळे ' तत्परिचरणा-वित्तरौवेदौ ' म्हळचाप्रमाणे केवल यज्ञ यागांक सम्बन्ध पाविले मन्त्र मात्र तांतु आसति. जाल्यारि ऋग्वेद संहितेंतु यज्ञ यागांक उपयुक्त जावनु आशिले मंत्र राशीच्या सांगातिकचि इतर विषयचि प्रतिपादन केलेले मंत्रियि पुष्कळ आसति, त्यानिमित्तीं ऋग्वेद संहिता मूलाधार जावनु दर्वोर्नु घेवनु यज्ञांतु अध्वर्युन उपयोग सूचेसगळे मंत्रमेळौनु यजुर्वेदीय, उग्दातान उपयोग सूचे सगळे मंत्र विगड जावनु मेळोनु साम वेदूयि संग्रह केल्ला म्होणु विमर्शकांलो अभिप्रायु आस्स.

अथर्वण वेदु यज्ञ यागांक सरळ सम्बंधु पावनाशिले निमित्तींतो बाकि वेदां पेक्षां आलतांतुलो म्हळ्ळो अभिप्रायु जाल्ला. आमगेल्या प्राचीन जनांल्या अभिप्रायाप्रमाणे हे चारीयि वेदांकयि समानस्थान अस्स. हे सगळेयि ते अपौरुषेय, नित्य आनि स्वतः सिद्ध म्होणु प्रतिपादन कर्ताति. ऋग्वेद

संहितेंतु होता, उग्दाता, ब्रम्हा आनि अध्वर्यु हांगेली कामं सूचित केल्यांति. हांगायि अथर्वण वेदाचो उल्लेखु नाशिलो गमना हें जावुनास्स. "ऋचान्त्वः पोषमास्तेपुपुष्वान् गायत्रन्तो गायति शक्वरीषु । ब्रम्हात्वो वदति जात विद्यां यज्ञस्य मात्रां विमिमीत उत्वः ॥"
(ऋ. सं. १०।७१।११)

हे ऋत्विजांनि चारि गुंप जावनु उपयोगसुचे वेद. ते चारि गुंप खंचे म्हळचारि १ होत गण–मुख्य होता, मैत्रावरूण, अच्छावाक्, ग्रावस्तुत. २ अध्वर्युगण –मुख्यअध्वर्यु, प्रतिप्रस्थाता, नेष्टा, उन्नेता. ३ उग्दातृगण–मुख्य उग्दाता, प्रस्तोता, प्रति हर्ता, सुब्रम्हण्य. ४ ब्रम्हगण–मुख्य ब्रम्हा, ब्राम्हणाध्वंसी, आग्नीध्र, पोता.

आपस्तम्ब ऋषींन "ऋग्वेदेन होता करोति । यजुर्वेदेनाध्वर्युः । सामवदेनोग्दाता । सर्वैब्रम्हा ।" म्होणु सांगल्या.

ऐतरेय ब्राम्हणांतु "यर्दुचैव होत्रं क्रियते, यजु षाध्वयेवं, साम्नोग्दीथं, व्यारब्धात्रयी विद्याभवति । अथकेन ब्रम्हत्वं क्रियते इति त्रय्या विधया इति ब्रूयात् ।" म्होणूचि उल्लेख आस्स. (ऐ. ब्रा. ५।३३)

"सच ब्रम्हा वेदत्रयोक्त सर्व कर्माभिज्ञः" म्होणु सायण ऋग्भाष्य भूमिकेंतु सांगल्यां. ह्या सर्व कारणांनीं अथर्वणवेदु सरळ जावनु यागाक सम्बंधि सिल्लो न्हयि म्होणुचि सिद्ध जात्ता. जाल्ले निर्मिति होवेदु बाकिवेदांपेक्षा आलतांतु सेरवल्लो म्होणु आधुनिक विमर्शक अभिप्राय पावतातिः

अपार जावुनशिलें हें वेद वाङमय संहितो ब्राम्हण, आरण्यकं उपनिषदं म्हळेल्या चारि ग्रंथ राश्यो जावनु विभाग पावल्याति, एकेक वेदाक तजिक संहिता, ब्राम्हण, आरण्यक, उपनिषदं अनेक आस्सति. इतल्या वाङमय समुद्राच्या मध्यारिवोच्याक कोणाकयि साध्यना. तरीही अल्पस्वल्प माहितीं दीव्नु वाचकांलि रजा घेत्तां. इतिशम् ।



# तिन्नि व्हार्डिक

( एकांक प्रहसन )

नाटककार : श्री. यस. वी. कामत, मुंबई

पात्र परिचय् : मंगेश राव्, वाड्डिरि दुड्ड दीव्नु दिवस काडतलो साउकारु. प्राय – पंचावन्न धरनु साट्टिचे भितरि.

रायभट्ट् : मंगेशरावालो पुरोहितु : प्राय साधारण मंगेश रायलिचि.

गोयिंदु : मंगेशरावालो रान्पो. प्राय तीस वरस.

नंदु : माडलोक युवक संघटनेचो व्यवस्थापकु – प्राय बावीस.

चंदु : नंदुलो जोडिदारु प्राय : आठरहा. विंगड दहा–बारा सान्न प्रायेंचे युवक–युवक संघटनेचे सदस्य.

—सुरवेचो अंकु—

(मंगेशरावालें घराचि विस्कळ चावडि. चावडेचे मध्येंतु एकि राकडाचि मेजि. मेजेवयरि केलव पेर्ने पेपरं आनि पुस्तकं अस्तव्यस्त पळयांति. मेजेचे दोनि दिक्कान दोनि खुर्चि. एक्क मुल्याक एक वळ्ळो मांचो ताज्जे वयरि एक हांतुळ–एकि वलि आनि दोनि उश्शि आस्सचि. वेळ सकाळि. मंगेशराव पेपर वाज्जुनु बस्ला.)

रायभट्ट् : (प्रवेश करता).

मंगेशराव : (पळोन्) ओहो–हो! आजि फाल्ले फाल्यारि भट्टालि सवारि! येय्या भटो, बैसाचि!

रायभट्ट : (येव्राक आश्शिलि खुर्चेरि बैसुनु) आजि पेडो काडयाचि पेडो!

मंगे : पेडो इत्याक भटो, मेग्गेलें काम जाल्यारि तुमका घोडो हाणु दित्ता घोडो! इत्तें आजि तुम्मि मारी खुषेरि आस्सचि?

राय : सांगतां, पूराई सांगतां! सध्याक तान्निचें सुतान पीनां तात्तिलें हावं धाव्नु आयिला हांगा. खयिं गेल्लो तुमगेलो तो रान्पो? थोडेंचि तान्निचें कोरोनु हाडयाचि.

मंगे : अगत्य! अगत्य! आत्तंचि हाडयितां! (मार्गाशि पोळेनु) गोयिंदा हे गोयिंदा! खयं रान्नांक गेल्लाकि! रात्रि खेळाक गेल्ललो खयि निदोनु पळ्ळाकि! हे गोयिंदा! मांचा पंदाक निद्ल्लो गोयिंदु उठानु दोळे पुशितचि येव्नु राब्ता!

मंगे : वयें, गोयिंदा तुक्का नीद आनेकयि सोणि वे? वस, वस! काफि करनु हाडि. (गोयिंदु मात्तें पंदाक धाल्नु भित्तरि वत्ता)

राय : व्हयि. तुमका सांगुंक विसर्लो. ते माडलोक युवकसंघ म्हण् आस्स पळचाचि

मंगे : व्हयि! त्या नंदु आनि चंदु– कस्सलें जाल्लें तें?

राय : कस्सलें जाव्चे? पैरि सांजेरि, ते दोग्गयि दहा बारह विंगड युवकांक घेव्नु मेग्गेले घरकडे आय्यिले माक्का ताकीद दिव्चाक.

मंगे : कस्सलि ताकीद?

राय : तुमगेले तिन्नि व्हार्डिकेक चल्लि सोद्नु बिनि दिल्यारि, माक्का नागडो करनु आंबे रुक्काक बांदुनु आंगारि येंबे सोडताचि खयिं. तें आयकुनु माक्का चिकेचि यच्चना सुरु जाल्या!

मंगे : सोड्चावो भटो तीं मांकडं कस्सलें करतीत? कोणयि भित्तलि आस्ल्यारि भिवोचें. इत्तें हें राज्य तांकाचि जाव्नु गेल्लेंवें? पोलिस डिपार्टमेंट कायि मेल्लेंवें?

राय : मांकडं मांकडं म्हणु त्या मांकडानि केल्लेलें कारभारनुपुरोम्? आस्सो तान्नि म्हण्चें इत्तें म्हळयारि तुम्मि दोन दोन बायलांक पूडे बांयतुं लोकोनु दिवशि मारल्या कयिं. हे मांतारे प्रायेरि तिन्नि व्हार्डिक करुंक ते सोणाचि कयि.

मंगे : (कोपान) म्हळैरि माक्का पिश्शें लागलां कैवें? तांका हिस्टिरिया जाव्नु तान्निचि बांयंतु पळळेल्याक हावं जबाबदारि कश्शि? हावें कायि पात्तोरु बांदुनु तांका बांयंतु लकयिंनि! आस्सोबा, तांका भित्ताचि कोण? तें पूरा हावं पोळोन् घेत्ता! तुम्मि गेल्लेलें काम कस्सलें जाल्लें?

राय : काम मुक्कालवाशि जाल्या म्हणकेचि. चल्येक पोळेनु तुम्मि 'मैं' म्हळ्यारि व्हाडिक जाल्यावरीचि. जातक–पातक पोळोचाक नां, देणे ताज्जे पूडे मां पुटीचि चल्लि. खर्चुयि तुमगेलोची. कशिश तुमका ओप्पिगा आस्सकी ? (गोयिंदु काफी कप्प घेव्नु येत्ता जाल्यारि ताग्नि उल्लोवें पोळोनु दूर आयकुनु राब्ता.)

मंगे : एकदम कबूल ! मेग्गेले फुळ्ळे बायलालि कापड आनि भांगर कश्शियि आस्सचि. अस्सो चल्लि कशिश आस्सवो ? प्राय कित्तुलि आणि गांवु खंचो ?

राय : चल्लि हेजमाडि गुंडयेंतुलि–आवसु नां. बाप्पुसु म्हांतारो. तीनि चल्योचि ताक्का. तेग्गयि वाड्ल्यांचि. बरी दुर्बळि. दिवसाक एक जेवण जेवचे कष्ट. जल्यारि चल्येंक पळैल्यारि मात्र तानि भूक मरता. तुमका पळैलेलि मालगाडि. तुमि जायत म्हळ्यारि फाल्ले सकाळि चल्येक आनि बाप्पुक हांगा यो म्हणु सांगतां.

मंगे : (आयंडे गीळ्नु) तुम्मि तेंवयिं निम्गुकावे, भटो ? शुभस्य शीघ्रं. फाल्ले तांका घेव्नु येय्याचि ! (गोंयिदाले तेत्तांतु चोव्नु) वयिरे, मूत बडवले म्हण्को तू इत्तें राब्ला ? घेव्नु यो काफी !

गोयिंदु : (काफी कप्प दोवोर्नु) तुमि उल्लैतचि आस्सचि म्हणु ....

मंगे : (कोपान) व्हयि, आमि उल्लैतचि आस्सचि म्हणु तू आयकतची आस्सवे आड राब्बुनु, चोरा ? रानपेलें काम कस्सलें, रांदप करचें शिवायि, घरा पंचादिके मात्तें घालचें वें ? उसळ भित्तरि ....! (गोयिंदु भित्तरि वत्ता)

राय : हो तुमगेलो रानपो आस्सकिनां माक्का ह्यागेले वयरि संशयु आस्सं. ना नातल्यारि तुम्गेले तिन्नि व्हाडिके विषयु ते नंदु चंदुक कळचे जाल्यारियि कशिश.

मंगे : तशिश कळ्ळें शिवायि राब्तावे, भटो. आमगेलो रानपो तित्तुलो बिनि हुषार नां. कान फूंकि म्हळ्यारि घान पुंकचो तस्सलो हेड्डु तो ! ताक्का मीव्नाकाचि तुम्मि. आत्तं काफि पिया. तुम्मि चल्लि कशिश आस्स म्हळ्ळें ?

राय : (काफी कप्प हात्तांतु धोर्नु) चल्लिवे ? आस्सवो, मोगारा कळ्या वरि पळैयल्यारि तानि भूक निवत्ता ! पाप ! बरी दुरबळि. देणे दिव्चाक ताकत नां. नहीं जाल्यारि धऽनं येनाचि आश्शिलि. आमचिगेले जातितु वरदक्षिण एकु व्हळ्ळो शापु पळया. आम्सोबा. तशिश जाल्लेले निमित्त धाकटेपणांक तुमका हे प्रायेरि एकि चल्लि मेळता.

मंगे : भटो, कस्सलें पूरा सुरु कल्लें तुम्मि ? देणे, समाजु आनेक, अन्नेक म्हणु ? पळया, जल्ले तित्तुले वग्गि ही व्हाडिक जाव्वो. मुहूर्त गिहूर्त म्हणु पचांग पोळेनु बैसू-नाकाचि. तांका जेवणाक थायि नां म्हणु तुम्मिचि सांग-ताचि. माक्का हे रांदप्यालें खाव्नु खाव्नु पूरो जाल्लें. एक दिवस भित्तरि मंगल करनु सोडया. आजि कालि माक्का रात्रिचें नीदयि सम्म पणां !

राय : तशिश जाल्यांरि फाल्ले तांका घेव्नु येत्तां.

मंगे : माग्गिरि लग्न केदना वो ?

राय : केदना म्हळ्यारि ? फाल्ले जाल्यारि फाल्येचि. आत्तं हांव एंत्तां. फाल्ले सकाळि मात्र "रेडि" जाव्नु बैसाचि.

## — दोन्निचो अंकु —

(फडदो वयरि वत्तना, अश्वत्था काट्टेरि बैसूनु आस्सचि नंदु, चंदु आनि तांगेले युवक संघटनेचे सदस्य. उद्-विग्नतेचें वातावरण)

नंदु : दोस्तानों, गोयिंदान सांगिलें तुम्मि सर्वयि आय-कलिवें ? ते रायभट्टाक पैरि आम्मि ताकीद केल्लेलि आस्तनायि ताणे मंगेशरावाक चल्लि घट्टि केल्लि खयि. आम्गेलि ताकीद व्यर्थ जाल्लि.

चंदु : ताकीद व्यर्थ जाव्चाक सोडुंक नज्ज. आम्मि सांगिले प्रमाणे ते भट्टाक नागडो करनु आम्बे रूक्काक बांदुचोचि. पळया ! पळया ! भट्टु येत्तचि आस्स. हाडघारे राज्जु !

नंदु : राब्बारे, तशिश करचें जूकि जायत. भट्टाक आम्मि शिक्षा दिव्चे बदलाक व्हाडिकेचि आशि काडचे त्यां मांतारालि चर्बि देंवोंका.

चंदु : तें कशिश साध्य ? सकाळिचि भट्टु चल्येक घेव्नु येस खयि. एक वेळेरि सोयरिक निश्चय म्हणु जाल्यारि माग्गिरि आम्मि कस्सलेंयि कोरुंक साध्य नां.

नंदु : तशिश नहीं रे तें. माक्का एकि आलोचन मात्यांतु गेल्या !

चंदु : कस्सलि आलोचन माराया, सांग !

नंदु : पळे तूंवे चल्येलो पार्टु घालका; तूं बक्कल. आनि हांव बक्कलेलो बाप्पुसु. तुग्गेलें तोंड आनि स्वरयि चल्येल्या वरिचि. आत्तं आमका जाव्का. इत्तुलेंचि राय भट्टालो सहकार्य नाल्ल्यारि आमगेलें नाटक मात्र खेळुंक जायना. पळया भट्टु येत्तचि आस्स. कोणयि उल्लोचाक नज्ज.

सर्वयि जायत !

(रायभट्टु येत्तचि आस्स.)

नंदु : (पांय पोणु) इत्तें भट्टमाम, नमस्कारू.

राय : नमस्कारू (मुखारि वोच्चाक पाय काडता)

नंदु : भट्टमाम राब्बादो एकि घडि . . .

राय : कस्सल्याक ? पयरि मेग्गेले घरकडे येव्नु भिष्टानु येल्लेलि तुम्मिचि नहें ! मेग्गेलि वाट्टे आड येव्नाकाचि.

वेंकटु : ना आबा ! इत्तें भटो, त्या मंगेश रावाक तुम्मि कल्लेलि सोयरिक आमका कळ्न म्हणु लेक्लावें तुमि ?



नंदु : वैरे, तुम्का उल्लोचाक नज्ज म्हळ्ळेलें हावें. दयाकर्न कोणयि उल्लोचाक नज्ज. भटो, तुमका आम्मि सुरुवेकचि ताकीद दिल्लेलें आस्स. जाल्यारियि तुम्मि परवा कर्नि. जाव्वो आत्तं पुणि काट्टेरि बैसून आम्मि सांगिले तशि आयकया. ना नाल्ल्यारि पळया राज्जु हाणु दवरला. आंव्या रूकु हांगाचि लाग्गि आस्स. हे फूरा तुमका बांदुका म्हणु तयार जाव्नु राव्ल्याचि !

सर्व : व्हयि ! व्हयि ! नंदून सांगिले तुम्मि आयकना नाल्ल्यारि आम्मि तुम्का दक्काक बांदुनु येंबे तुम्गेले आंगारी सेडताचि. कंळ्ळेवे (भट्टाक सुत्तु घाल्ताचि)

राय : (भीव्नु हूम पुसुनु) सांगा मारायानो सांगा ! तुम्मि सांगिलें पूरा आयकता.

नंदु : आयकया ! पाल्ले मंगेशरावक दाक्कोचि चल्लि आनि तिग्गेलो बाप्पुसु जाव्नु आम्मि येत्ताचि . . . !

राय : म्हळचारि ?

नंदु : म्हळचारि आम्मि वेसु घाल्नु येव्नु त्या म्हंतान्याक बुद्धि शिकैताचि. ताक्का आनेकयि लग्नाचें पिश्शे आस्स तें आम्मि सोडवाका म्हणु लेकलां.

राय : जाल्यारि ते दुर्बळे चल्यांलि अवस्था कस्सलि ? तांका देणे घेना नात्तिलै व्हार्डिक करनु घेव्चाक तुम्मि कोणयि आस्सचि वे ? पाप तांका तोनि वेळ्ळ पोट्टाक शायि नां. हावें हे व्हार्डिकेंतु हातु घाल्लो तांगे लें दुरबळ पण पोळोनु.

नंदु : भटो, आमगेले युवक संघटनेन सदस्यानि कोणेयि देणे घेव्चाक नां म्हणु ठरैलां. आमि तेग जन त्या तीन चल्यांक व्हार्डिक करनु घेत्तचि. अधिक वाड्डिरि दुर-बळचांक दुड्डु दीव्नु तांगेले रगत पीव्नु तिन्नि लग्नाक आतुर जाव्नाशिले हे म्हांताराक बुद्धि शिकोचाक मात्र तुम्मि मदद करुका !

राय : जायतरे, तुम्मि भीव्नाकाचि मेग्गेलें पूर्ण सहकारु आस्स.

— तिन्निचो अंकु —

( मंगेशरावालि घराचि चावडि. मंगेशरावु बस्ला. रायभट, म्हांतारालो वेषु घाल्लो नंदु आनि चल्येको वेषु घायेलो चंदु प्रवेश करताचि. म्हांतारालो

आनि चल्येलो दुस्तु बरे पोरलो आस्सुनु थंर्थयि पिंदुनु गेल्ला. म्हांतारेलो मुंहासु चिक्लान बुड्डुनु गेल्ला.)

मंगेश : (उठानु धाव्नु वच्चुनु मांदरि घेव्नु एव्नु घाल्लानु) येय्या ! येय्या ! बैसा ! बैसा !

(सर्वयि वस्ताचि. मंगेशराव एक क्षण चल्येकची नियाळ्नु रावता. रायभट चोव्नु उठानु मंगेशरावाक हांग ऐया म्हणता. मंगेशराव भट्टाले मागशि वत्ता !)

रायभट : कशिशवो चल्लि ?

मंगेश : (संतोषान) भटो, चल्लि म्हाळचारि "आर्डर" दीव्नु करैल्या वरि आस्स. जाल्यारि प्राय बरी सानिकी म्हणु दिस्ता. ती माक्का वाम्मुणु जायत म्हणत न्हवें ?

राय : तें पूरा तुम्मि कायि भीव्का म्हणु नां. हावें पैलेंचि सांगला. जाल्यारि आत्तं एक अगत्याचो विषयु संगचो आस्स

मंगेश : कस्सलो ?

राय : पळया, तो नंदु आनि चंदु आस्सचि नवें, तांका हे चल्ये वयरि दोळे आस्स म्हणु हावं आयकलो. जाल्ले निमित्त आत्तं हान्नि कशियि आयिलि आस्सचि. हांगाचि सरळ रीतिरि लग्नाचें शास्त्रपूर्ण करयां. हाथें फुल्ला माळा हाळचाचि.

मंगेश : जाल्यारि एक चारि जनांक पुणि सांगु नावें?

राय : तुम्मि कस्सलें म्हणताचि ? वक्कल आस्स, बरेतु आस्स, परोहितु भट्टुयी आस्स. तुम्गेलि फुळ्ळि बामलेंलें मांगर घेव्नु येय्या. माळा घाल्या; मंगलसूत्र बांधा, देवाले कुडांतु वच्चुनु देवालागि बरेपणांक मागुनु घेय्या आनि भट्टाक दक्षिणा दिव्या . . .

मंगेश : जायत ! (भित्तरि वच्चुनु मांगरा चेट घेव्नु येत्ता. हास्तचि उदारि कर्नु हाणु चल्येले एद्राक दवर्नु) मांगर घाल्नु घे !

चल्लि (लज्जेन) मात्तें पंदाक घालता.

राय : कायि संकोच कर्नाका. कोकणं मांगर पूरा घाल्नु घे. मंगलसूत्र एक मात्र सोडि. तें धरेतान बांदुचें. मंगेशराव तिक्का नियाळ्नु राव्ता. राय (फुल्ला माळा घेव्नु) यजमानानों घेया माळा. वैगो, तूं सुर्वेक माळा घालचि उठानु राव ! (चल्लि माळा घेत्ता आनि मात्तें पंदाक घाल्नु माळा घालत्ता मंगेश रावाले गळचाक. मंगेशराव हास्तचि तिग्गेले गळचाक माळा घाल्ता आनि गाल्लाक चिम्टो काडता. "इश्शि" म्हणु चल्लि हास्ता.)

राय : आत्तं वर माल्गडचालें पाय धर्या. सुरवेक चल्येले बाप्पुसुले पाय धरया. (पाय धर्ताचि, अनंतर राय भट्टाले तदनंतर देवाले कूडांतु. वच्चुनु देवाक पायं पडताचि.)

राय : आनि मेग्गेलें काम जाल्लें. हांवों अनि मार्य सोरचेवें ?

मंगेश : राव्बावो. तोंड गोड करनु वच्चा. हांगा हाळ्ळेलें कस्सलेंयि नां. तोडि साक्कर घेव्नु येत्तां.

(एक प्लेटांतु साक्कर घेव्नु ऐत्ता सक्कडयि एकेकि चिमटि तोण्णतु घाल्ताचि.)

रायभट्ट : यजमानाने आनि हांव फाल्ले येत्ता. तुमका देवु बरें करो.

चल्येलो बाप्पुसु : भटो, हांवयि येत्ता तुमगेले बरोबरि. हांगा बैसुनु हावें कस्सलें करचें आस्स ? कन्यादाना कामं जाल्लें (उठानु राव्नुनु) येत्तां पुता हांव !

(दोग्गयि वत्ताचि)

मंगेश : (सुत्तूचि पोळोनु) : अय्यबा ! आत्तं रात्रि वायि वेळु काडचो कशि ? आस्सो, वैगो, तुग्गेलें नावं कस्सलें ? निमगुचाक विसर्लों.

चल्लि : (हुगूर) पार्वति !

मंगेश: व्हयि वे ? मंगेशु मेग्गेलें नावं, पार्वति तुग्गेलें. जोडि समचि जाल्लि. आस्सो आत्तं हावं तुक्का उपद्रव दीनां ! (हास्तचि) रात्रि सगळी आस्सं पळे! आत्तं हावं आंगडि लागि वच्चुनु दन्पारां येत्तां !

(फडदो पडता)

— चारिचो अंकु —

सकाळि मंगेशरावु मात्थारि हातु दोवोर्नु चिंताक्रांतु जाव्नु बस्ला.

रायु : (प्रवेश कर्नु) नमस्कारु, यजमानानों !

मंगेश : (मात्तें उब्बार्नु) भटो, मेग्गेलें सर्व नाश जाल्लें.

राय : म्हळचारि ?

मंगेश : कस्सलें सांगचे ? कालि तुम्मि वत्तरि हावं

आंगडि लागि वच्चुनु येतां म्हणु चमकल्लो. बापास येत्तनां व्हक्कल मायक !

राय : म्हळ्यारि ?

मंगेश : कागदं बोरानु दवर्लों हि व्हाडिक माल्गड्याले वत्तायान जाल्लेलि शिवायि माक्का मनं आस्सुनु नहि म्हणुचि हावें समुद्रांतु पोणू, जीवु काणु घेवचो निर्धारु केल्ला. माक्का क्षमा करा !

राय : अरेरे ! हें कस्सलें ?

मंगेश : कस्सलें म्हण्चे, भटो ! ग्रहचार मेग्गेले, आश्शिलें भांगरथि गेल्लें.

राय : तुम्मि समुद्रा लागि बिनि चमकलि कि ?

मंगेश : कस्सल्याक, मडे पोळेचाक वे ? मेल्लेलि मोनुं गेल्लि. पुण्याक गडद कर्नु व्हडिक म्हणु दुड्डु खर्चिल्लो जाल्यारि रोणु बेसुका आश्शिलें तुम्मि सरळ रितिरि कल्लेलें जांग जाल्लें.

राय : आत्तं मुकारि कस्सलें ?

मंगेश : कालचे व्हडिकेचि दक्षिणा घेय्या. आनि विगडि खंचियि चांगि सोयिक आस्सकि म्हणु पळया. तिन्नि मर्ति करिंश जाव्नु गेल्लें. चारिचि पुणि ढिक्वतवे म्हणु पोळोयां !

[ समाप्त ]

